जाग

२५ ◇ आंक १० ◇ मे १९९९

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार
…पी संपादपी : माधवी सरदेसाय
…ाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.
…र जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.
…पी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.
…र चित्र : लइराई कंप्यू.

## ह्या आंकांत



…र्सुकी पटी : रु. १००/-
…वेद्यार्थ्यांखातीर : रु. ७५/-
…ीन वर्सांची पटी : रु. २५०/-
…क वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
…क मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
… रुपये अदीक जोडचे)

…राचो नामो:
…ाग म्हयनाळें
…-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
… द साउदादिश, पाजीफोंड,
…ांव – गोंय ४०३ ६०१.

…कोळ आंकाचें मोल: रु. ९/-

# नदर संपादप्याची

## वेंचणुकेक कोणें रावपाचें?

कोणाची, याद जायना; पुणून कांय वर्सां पयलीं एक मराठी कथा वाचिल्ली–

एक शेतकार आसता. ताची स्वताचे मालकिची भूंय आसता. हे भुंयेची तो आंपूण खासा कमाइस्की करता. आनी कांय वर्सां भितर तो भरपूर उत्पन्न काडटा. एक गिरेस्त शेतकामती म्हूण नांव जोडटा.

एक दीस अवचीत ताच्या दारांत एक जीप उबी रावता. जिपींतल्यान एक फुडारी देंवता. आनी हाका सांगता, आतां विधानसभेच्यो वेंचणुको जावपाच्यो आसात. हे खेपे तुका तिकेट दिवची अशें पार्टीतल्या सगळ्यांनी एकमतान थारायलां. तुजे सारकेल्या कर्तुत्वी मनशाची राज्याक खूब गरज आसा... ना म्हणूं नाका...'

'म्हाका तिकेट? शी, शी, शी... म्हाका राजकरणांत पडपाचें ना... हांव आसा तोच बरो आसां... रागार जावं नाकात, हांव उबो रावपाचों ना...' हो आंग काडून जाप दिता.

'अशें कितें करता तूं? देशाक तुजी गरज आसा... देशा खातीर तूं इल्लोय त्याग करचो ना...?' फुडारी ताका तरांतरांनी समजावंक लागता. अखेरेक हो मोव पडटा आनी 'आयज हांव उतर दिना... येवजितां आनी फाल्यां सांगतां...' अशी जाप दिता.

'बरें आसा, हांव फाल्यां परतो येतां' अशें सांगून फुडारी वता.

दुसऱ्या दिसा तो परतो येता. 'कितें थारायलें?' तो विचारता.

'तुमची सगळ्यांची इत्सा आसत जाल्यार म्हज्यान ना म्हणूंक जावचें ना... रावतां...' हो जाप दिता.

'शाब्बास... तुजे कडल्यान हेच जापेची आस्त बाळगिल्ली.' अशें म्हणून फुडारी वता.

वेंचणुकेचो खर्च कोण करतलो, पार्टी कितले पयशे दितली, आपणाक पदरचे कितले काडचे पडटले, हे विशीं हो फुडाऱ्याक मुरवतीन कांय विचारी ना.

कांय दिसांनी पार्टिच्या उमेदवारांचे वळेरेंत हाचें नांव येता. अर्ज भरपाचो दीस येता तेन्ना फुडारी ताका व्हरपाक येता.

'खर्चाचें कितें?' हो विचारता.

'खर्चाचें कितें घेवन बसला? देवान तुका घर भरून दार ओतता इतलें दिलां... पोस्टर्स, बॅनर्स तुका पार्टीकडल्यान मेळटले. पार्टिचे कार्यकर्ते तुजे खातीर वावुरतले... थोडोसो खर्च तुका करचो पडटलो... तो चडसो येना... तुका कांय न्हय तो... पुणून हांव एक वेगळोच प्रस्ताव घेवन आयिल्लों. तुज्या मतदारसंघाक तेंकून जो मतदार संघ आसा थंय आमी अमक्या अमक्याक उबो केला. हो एक व्हड स्वातंत्र्य सैनीक... एक समाजसेवक... देशाखातीर ताणें खूब त्याग केला. ताचोय खर्च तुंवें करचो अशें आमचें सगळ्यांचें मत्त जालां... ताचेकडेन पयसो ना... तुका तो जड वचचो ना... तूं ना म्हणचो ना हाची खातरी आसा म्हाका...'

हाका खंयचो आपूण हे भानगडींत पडलों अशें जाता. पुणून ऐन वेळार फाटीं कसो सरतलो? फाटीं सरलो जाल्यार पार्टिचे फुडारी म्हाका माफ करपाचे नात... हे सदांच वेंचून आयल्यात आनी सरकारांत गेल्यात. कितें करतीत, सांगूं येना... उपाय नासून रावता. दोनूय उमेदवारां खातीर वावुरता... आनी आपणा वांगडा दुसऱ्याकूय वेंचून हाडटा... खर्च सुमारा भायर येता. अंदू वर्साचीच न्हय तर फाटल्या दोन वर्सांची लेगीत जोड खर्चता.

कथेचो म्हत्वाचो वांटो मुखार येता.

कांय दिसांनी विधानसभेचें अधिवेशन सुरू जाता. हो राजधानींत वता आनी एम्-एल्-ए हॉस्टेलांत एक 'सूट' घेवन रावता. एक दोन दिसां उपरांत हॉस्टेलांत यो जाल्यार 'सूट' उकती करून भितर धा बारा जाण बशिल्ले ताका दिश्टी पडटात.

'कोण तुमी?' हो तांकां विचारता.

'अब्बा! इतले बेगीन आमकां विसरलो? आमी तुज्या मतदारसंघांतले पार्टी कार्यकर्ते. तुका वेंचून हाडपाक आमी आमचें रगत आटयलां आनी तूंच आमकां कोण तुमी काय म्हूण विचारता?'

'चूक जाली', हो म्हणटा. कित्याक आयिल्ले काय म्हूण विचारता.

एकल्याक मुखार काडून दुसरो एकलो म्हणटा, 'हाच्या पुताक पोलिसांनी धरून व्हेला. ताचेर खुनाचो आळ घाला... ताका सोडोवन हाडूंक जाय... तुवें उतर घाल्यार तो सुटून घरा येतलो...'

'पोलीस जाका धरून घेवन गेल्यात ताका हांव कसो सोडोवन हाडटलों? कायद्याचो प्रस्न हो... तातूंत मदीं म्हज्यान पडूंक जावचें ना.' हो म्हणटा.

'कसलो कायदो घेवन बसला गा... अमक्या अमक्याक तूं वळखना? ताचेर खुनाचे आळ आशिल्ले. चोरयेचे आशिल्ले... बलात्काराचे आशिल्ले... ताका ताच्या आमदारान सोडोवन हाडलो ना?... ते भायर, ह्या भुरग्यान तुजे खातीर रातिचे दीस करून खूब वावर केल्लो. ताका तूं न्हय जाल्यार कोण सोडोवन हाडटलो...?'

कितें करचें तें हाका समजना. थोड्या वेळान म्हणटा, 'वचात तुमी... म्हज्यान कितें करूंक जाता तें पळेतां...'

हो मुखेलमंत्र्या सरीं वता. मुखेलमंत्री आयजीपीक फोन करता आनी भुरग्याक सोडोवन हाडटा.

उपरांत हाका सोडोवन हाड, ताका भितर घाल... हाका नोकरेक लाय, ताका ट्रान्स्फर कर... हागेलें लोन माफ करून दी, ताका लोन मेळोवन दी... कोणाक कॉन्ट्रॅक्ट दी, कोणाक आनीक कितें दी, असलींच कामां तो करीत रावता. अखेरेक उबगता... 'पाड पडूं हे आमदारकेचें' अशें म्हणटा आनी आमदारकेची सोडचीट दिवन घरा येता.

* * *

खंयचोय पक्ष तुका उबो राव म्हणटा जाल्यार धरून चल – वेंचणुकेचो खर्च पक्ष करपाचो ना. तुकाच तो करचो पडटलो. तुका पोस्टर्स बॅनर्स मेळटले. पुणून कार्यकर्ते पक्षाकडल्यान मेळपाचे नात. (खंयच्याच पक्षा कडेन कार्यकर्ते नात) तुकाच तुज्या विस्वासांतले कार्यकर्ते उबे करचे पडटले. 'देशाक तुजी खूब गरज आसा' अशें म्हणटात तांचेर पातयेवं नाका. ते सगळे बेलकी. तुका फुलां माळपाक ते तशें उलयतात हें विसरूं नाका. तूं वेंचून आयलो जाल्यार आपूण पोपुलर (लोकप्रिय) फुडारी जालां अशें मानूं नाका... फुलनदेवी लेगीत उत्तर प्रदेशांत वेंचून आयल्या... आयज पार्लमेन्टांत 'माफिया' वेंचून आयिल्ले दिश्टी पडटात ते कितें, ते 'लोकप्रिय' फुडारी म्हूण? पयसो ओतून ते वेंचून येतात. तूं तांचे परस वेगळो न्हय...

तूं कित्याक उबो रावंक सोदता?

लोकांच्या बऱ्याभल्याचीं कामां करपाची एक संद आपणाक मेळची म्हूण? भ्रम हो तुजो. लोकांच्या बऱ्याभल्याचीं कामां करपाक वेंचून येवंक जाय अशें ना. जयप्रकाश नारायणांक कोणेंच खंयच वेंचून धाडूंक नाशिल्ले. तरी आसतना लोकांच्या बऱ्या भल्या खातिरूच तांणी आपणालें जिवीत झरयलें मू? सुंदरलाल बहुगुणा, नटवर ठक्कर, मेधा पाटकर, अण्णा हजारे करतात तो लोकांच्या बऱ्या भल्याचो वावर न्हय व्हय? ते खंय वेंचून आयल्यात?

खुनाचो आळ आशिल्ल्यांक सोडोवन हाडप, हाका ताका नोकरेर लावप, हाका ताका लोन मेळोवन दिवप, हाचें ताचें लोन माफ करून घेवप हीं कामां 'लोकांच्या बऱ्या भल्या'चीं न्हय. आमदार खासदार जावन तूं अस[...] कामां करतलो. दुसरें कितेंच करूंक पावचो ना.

एक विसरूं नाका – लोकांच्या बऱ्या भल्या खातीर वावरप ही आंत[...] – भितरली – एक प्रेरणा. तशी तिची तृप्तीय एक आंतरीक भावना. भित[...] प्रेरणा जेन्ना स्वभावाचें रूप घेता तेन्ना ती तुका सस्थ बसूंक दिना. स्व[...] जावचे पयलीं तो स्वधर्म जावंक जाय. तो स्वधर्म जालो जाल्यार स[...] हातांत नासतना तूं लोकांच्या बऱ्या भल्याचीं कामां करीत रावतलो. सं[...] वाट पळेत तूं बसचो ना.

'स्वधर्म' कसो सोडून काडपाचो? हजार तरांचीं कामां करून [...] ज्या कामान कसलोच लाव जावपाची आस्त ना, पुणून जें केलें [...] तुज्यान स्वस्थ बसूंक जावचें ना, कितलेंय केलें जाल्यार तुका पुरो [...] जावचें ना... कितल्योय अडचणी आयल्यो जाल्यार तूं निर्शेचो ना, [...] तुजो स्वधर्म.

स्वधर्मान चलपाक सत्येची, हुद्द्याची वा अधिकाराची कसलीच ग[...] ना.

लोकांच्या बऱ्या भल्याच्या कामांच्यो कांय तरा आसात.

उपाशी मनशाक जेवंक घालप ही एक तरा. ताका जोड जायत अ[...] कसलेंय साधन मेळोवन दिवप ही दुसरी एक तरा.

कोणूच उपाशी पडचो ना हे तरेचो समाज घडोवपाक जीव झरो[...] ही तिसरी तरा.

तुजी तरा खंयची आसची हें तुजो स्वधर्म थारायतलो.

वेंचणुकेक उबो रावंक जो सोदता तोय 'लोकांच्या बऱ्या भल्या[...] कामां करता. पुणून तो ताचो स्वधर्म नासता. ती ताची 'गुंतवणूक' आस[...] Investment आसता. तो फकत सत्या भोगूंक मेळची म्हूण ही गुंतव[...] करता. एक फावट सत्या हातांत येवं दी, मागीर फकत भोग भोगपा[...] ताचें आयुष्य खर्चता. तुर्ताक जे राजकर्णी म्हूण मुखार आयल्यात ते स[...] हे तरेचे 'सेवक'.

हाचो अर्थ बऱ्या मनशान कोणें वेंचणुकेक उबो रावचेंच न्हय अ[...] करूं नाका. जायतीं कामां अशीं आसात जीं आमचे राजकर्णी करिना[...] देखीक, भौराष्ट्रीय कंपन्यां आड देशांतलो एकलोय राजकर्णी आवाज काडि[...] जे काडटात ते सत्येर येनाफुडें कोणें गची अंदिल्लेवरी ओगी रावता[...] आपूण ओगी बसचों ना, बोवाळ करीत रावतलों, भौराष्ट्रीय कंपन्यां[...] बंदी हाडटलों अशें थारावन तूं रावशीत जाल्यार तुका लोकांनी वें[...] काडचो अशेंच हांव म्हणटलों. देशांत इंग्रजी भाशेचो शेक नाका थंय लेगी[...] चलपाक लागला. इंग्रजी भाशेन लोकांचें सत्त्व ना करून उडयलां. [...] संस्कृतायेचें रगत लुचपाक लागल्या. तिका प्रशासनांतली हुमटावन उडोवपा[...] आपूण वावुरतलों, आपुणूय सस्थ बसचों ना, दुसऱ्यांकूय सस्थ बसूं[...] दिवचों ना अशें थारावन तूं उबो रावशीत जाल्यार तुजे खातीर वावरा[...] म्हूण लोकांक सांगपाक हांव अनमनचों ना. भौन भौन त्याच त्याच लोकां[...] उबे करपाची जी 'पिडा' कांय पक्षांक जाल्या तिचे आड आपूण वावुरतल[...] कोणाक दोन टर्मा वयर तिसऱ्या टर्माची तिकेट मेळूंक जायना म्हूण आपू[...] झुजतलों अशें थारावन उबो रावशीत जाल्यारूय तुका वेंचून हाडात म्ह[...] लोकांक सांगपाक हांव अनमनचों ना. असल्याच मनशाक वेंचणुकेंत उ[...] रावपाचो अधिकार आसा.

पुणून ह्या मनशान उबो रावचे पयलीं हे दिकेन भरपूर वावर केल्ल[...] आसूंक जाय. उधार खातें रासवळ मळार चलना.

असली कसलीच मोख मुखार दवरी नासतना जो उबो रावता – तोवू[...] दुसऱ्यांचें बरें भलें करतलों अशें सांगून – तो एक तर लोकांक फटयत[...] वा खासा आपणाक तरी फटयताच फटयता.

मतदार तुमकां सगळ्यांक वळखतात हें विसरूं नाकात.

# फायव्ह स्टार गुलामी – २

याक इंग्रजी शिकोवचीच न्हय, अशें म्हाका म्हणपाचें ना. शिकोवची. पडल्यार सक्तीन शिकोवची. पयले यत्ते पसून एक विशय म्हूण . पुणून इंग्रजी शिकोवप वेगळें आनी इंग्रजींतल्यान शिकोवप वेगळें. , भुंयगोल, विज्ञान बी विशय इंग्रजींतल्यान शिकोवपाचेर बंदीच जाय. व्हडांतली व्हड ही एक चूक म्हूण. चुकूच न्हय, सामकेंच म्हूण.

सारांतली एक गिरेस्त भास म्हूण भुरग्यांक इंग्रजी शिकोवंकूच जाय. विशय कोंकणींतल्यान शिकोवचे आनी इंग्रजी एक विशय म्हूण सुरवातेक सुरू करची. धावे मेरेन भुरगीं पावतलीं तेन्ना तांकां इंग्रजी तल्यान शिकिल्ल्यांक येता तांचे परस इल्लीय उणी इंग्रजी येवची डये, तांचे परस बरीच येतली.

जांनी सगळेंच इंग्रजींतल्यान शिकोवपाची रीत सुरू केली – तांकां शांत 'रगतान देशी पुणून मनान इंग्रज' लोकांची एक जात निर्माण ी आशिल्ली म्हूण. हांचो देशाविशिंचो अभिमान ना जावचो आनी त न्यूनगंड निर्माण जावचो म्हूण. परिणाम कितें जालो? हें शिक्षण क जोडून दिवपी जालें. तें कितल्या लोकांक मेळ्ळें? शंबरांतल्या धा जाणांक. (तांचेच आंकडे हे.) हाचो अर्थ, धा जाण 'शिकिल्ले', जाण 'शिकूंक नाशिल्ले' अशे देशाचे दोन कुडके जाले. इंग्रजांची ट सुरू जाल्या त्या वेळार देशांत 'शिकूंक नाशिल्ले' चडशे कोणूच ल्ले. सगळेच शिकताले. कित्याक, गांवां गांवांनी शाळा चलताल्यो. इण्डिया कंपनीन सुरवातेच्या काळांत बंगाली वाटाराचें एक सर्वेक्षण . तातूंत ह्या वाटारांत दर चारशें लोकां फाटल्यान एक शाळा आसा हळ्ळें. बंगाली वाटारा भायल्या वाटारांतूय हेंच चित्र पळोवंक मेळटालें. एका गांवांत एक एक शाळा ह्या हिसपान सगळे कडेन शाळा चलताल्यो. शिकयताले ह्या शाळांनी, खबर ना. पुणून त्या काळाक जाय पडटालें शिकयताले आसूंक जाय. इंग्रजांनी गांवां गांवांतले ग्रामोद्योग मोडले. ती ना केल्यो तश्यो शाळाय बंद केल्यो. सरसमान लोक 'अशिक्षित' फकत 'बाबू'च इंग्रजींतल्यान शिकूंक पावले. ते, मागीर, आपणाक रस वेगळे, हेरां परस व्हड मानपाक लागले. राज्य करतल्या इंग्रजांकडेन प जाले. तांचेच भाशेन चलपाक, भोंवपाक, उलोवपाक लागले. सी.एस्., बॅरिस्टर बी जावपाक लागले. आनी इंग्रजांचें राज्य चलोवपाक ने.

चो सभावगूण नियाळून पळेतकूच हांकां देशाचो मात पसून अभिमान आपले भाशेचो इल्लो लेगीत मोग ना, आपले संस्कृताये विशीं कुस्कूट लेपण ना, लठ्ठ पगाराची सिर्वीस मेळोवपाचें सोडून हांकां कसलेंच व करूंक येना म्हणपाचें दिसून येतालें.

शभक्त जितले इंग्रजां आड आशिल्ले तितलेच इंग्रजाळ्ळेल्या ह्या आडूय आशिल्ले.

वराज्यांत असल्या लोकांची देशाक गरज आशिल्ली व्हय? खरें यार, स्वराज्य मेळनाफुडें इंग्रजाळ्ळेल्या ह्या गांवठी सायबांकूच जाग्यार चें काम सगळ्यांत पयलीं जावंक जाय आशिल्लें. तें जावंक पावलें कोणाक लागून जावंक पावलें ना? जवाहरलाल नेहरूंचें नांव घेवंक दिसना. पुणून एक विसरूंक फावना, व्हडले व्हडले देशभक्त हरलालांकूच जापसालदार धरतात. जवाहरलाल व्हडांतले व्हड एक क्त आशिल्ले म्हणपाचें कोणूच न्हय म्हणिनात. पुणून संस्कृतायेचे न ते इंग्रजांचे, तांचे भाशेचे, तांचे देखिंचे, तांचे चालिं-रितिंचे भक्त शिल्ले हेय विशीं दुबाव ना. आपूण तांचो भक्त आसुनूय देशभक्त क पावलां जाल्यार बाकिच्यां विशीं दुबाव कित्याक घेवंक जाय, तेवूय आपणा सारकेच जातले ह्या भ्रमांत ते उरले. परिणामी – जांच्या हातांत इंग्रजांचें राज्य आशिल्लें तांच्याच हातांत जवाहरलालांचें स्वराज्य उरलें. फकत तांचें नांव बदल्लें. आय.सी.एसांचे ते आय.ए.एस्. जाले. तांच्या गळ्यांतले 'टाय' गेले. बंद गळ्याचे कोट आयले. आयज देशांतल्या वयल्या पांवड्यांतल्या लोकांची संस्कृताय इंग्रजाळूंक लागल्या ती हांकांच लागून. देशांत शिक्षण इंग्रजींतल्यान चलूंक जाय म्हणटात तेय हेच लोक. प्रशासनूय इंग्रजींत चलूंक जाय म्हणटात ते हेच लोक. जे इंग्रजी जाय म्हणटात तांकां हे लोक 'लिबरल' – उदार मत्ताचो, 'प्रोग्रेसीव्ह' – प्रगतिवादी लेखतात. जे देशी भासो वयर काडूंक जाय, देशी भाशेंतल्यानूच शिक्षण मेळूंक जाय, प्रशासन चलूंक जाय म्हणटात तांकां हे 'शॉविनिस्टिक' – अशीर मनाचे मानतात आनी इंग्रजी वचूंक जाय म्हणटात तांकां तर हे 'फॅनॅटिक' – दुराग्रही म्हणून पयस उडयतात.

गांधींचें नशीब बरें म्हूण ते हांच्या हातांत राज्य वचनाफुडें गेले. ना जाल्यार, हे लोक तांकांय शॉविनिस्टिक, पॅरोकियल, फॅनॅटिक म्हळे बगर रावचे नाशिल्ले.

इंग्रजींतल्यान भुरग्यांनी शिकिल्लें जाय मू तुमकां? शिकयात. पुणून ते पयलीं घरांत इंग्रजी सुरू करात. फकत शाळेंतली भास बदल्ली म्हूण उपकारना. घरांतलीय बदलूंक जाय. आय.ए.एसांच्या घरांतली बदल्ल्या जातली. सरसमान लोकांच्या घरांतली बदलूंक ना. ती तुमी बदली नात आनी भुरग्यांक 'येता' ते भाशेंतल्यान शिकूंक दिनात. उरफाटें, 'येना' तेच भाशेंतल्यान तांकां शिकयतात. बावड्यांक पाठ केले बगर कितेंच सांगूंक येना. भुरग्यांचो हो 'छळ' जाता हें हांच्या लक्षांत कशें येना, समजना. भुरग्यांचे हाल हाल करून, तांकां वळवळावन शिकोवप हाका 'शिक्षण' म्हणटात? जाल्यार, 'शिक्षा' खंयचे गजालीक म्हणपाची?

इंग्रज आपणालो बावटो आनी आपणालें राष्ट्रगीत घेवन गेल्ले. पन्नास वर्सां सोंपचे पयलींच परते आयले. पुणून हे खेपे ते भौ-राष्ट्रीय कंपन्यांक घेवन आयले. एकटे येवंक नात. येतना आपणाल्या बापोलभावांकूय – अमेरिकनांक – घेवन आयल्यात. आयज देश काँग्रेसिच्या हातांत ना, भाजपाच्याय हातांत ना. खंयच्याच राजकी पक्षाच्या हातांत ना. भौ-राष्ट्रीय कंपन्यांच्या हातांत पावला. ते सांगतात तेच तरेन आमचें अर्थकारण चलता. ते सांगतात तेच तरेन विकासकार्य चलता. तांचीय भास इंग्रजी. देखून देशांत आयज आदले परस चड इंग्रजी चलपाक लागल्या. शिक्षणकार्यूय आमी ते सांगतात तशें चलोवपाक लागले जाल्यार कोणाक अजाप जावंक जायना. कित्याक, 'वयले लोक' सांगतात तेच भाशेन चलपाची आमकां संवंय जाल्या. वयर मोगल आशिल्ले तेन्ना आमी मोगलां भाशेन चलताले. इंग्रज थंय बसले तेन्ना इंग्रजां सारके जाल्ले. आतां भौराष्ट्रीय कंपन्यो येवन बसतकूच आमी 'ग्लोबलाइझेशन'चो जप करपाक लागले जाल्यार अजाप कसलें? हें ग्लोबलाइझेशन आमकां 'आप जंयचें सगळें भश्टें, वंद्य परक्यांलेंच उश्टें' शिकयले बगर रावपाचें ना, आमकां आमचे संस्कृताये पसून तोडले बगर, भौसा पसून आमकां पयस व्हेले बगर रावपाचें ना, हें आमकां केन्ना कळटलें, खबर ना. पुणून, एक दीस तें कळ्ळे बगर रावचें ना. वेव्हाराचें केदेंय व्हडलें चेपण येवं, स्वाभिमान चिड्डून उरना. तो केन्नाय तरी जागो जाता.

उद्देगीक मळार फ्रान्स संवसारांतलो तिसऱ्या काय चौथ्या पांवड्यावयलो देश आशिल्लो. संस्कृतायेच्या मळार येवरोपांतलो पयल्या पांवड्या वयलो. ताकाय एक दीस 'विकासा'चे दुवाळे लागले आनी ताणें भौराष्ट्रीय कंपन्यांक आपणालीं दारां उकतीं केलीं. परिणाम – फ्रान्सांत इंग्लंड अमेरिकेंतल्यो कंपन्यो एका फांटल्यान एक येत रावल्यो. येतना इंग्रजी भासूय घेवन आयल्यो. फ्रान्सांत ही भास केन्नाच चलूंक नाशिल्ली तितली चलपाक लागली. सुमार चार दसकां फ्रान्सांत इंग्रजीन आपणालो शेक चलयलो.

ह्या चार दसकांत फ्रान्सांत मौलीक अशें सर्जनूय जालें ना, चिंतनूय जावंक पावलें ना. आर्थिक उदरगती वांगडा आयिल्ल्या ह्या संस्कृतायेच्या मळावयल्या दळदिराची जाणवीक जायनाफुडें फ्रान्सान इंग्रजीक देशांतली धांवडावन घाली.

जपान पयलीं सावन सादूर रावलें. उदरगतिच्या मळार आपूण खंयच फाटीं पडचें ना ह्या नित्शयान तें येवरोप अमेरिकेकडलें विज्ञान तंत्रज्ञान घेवन आयलें आनी आरे आरे म्हणटासर संवसारांतलें एक 'मॉडर्न' राष्ट्र जालें. पुणून जपानी भाशेक आनी जपानी अस्मितायेक ताणें कसलीच बादा येवंक दिलिना. इंग्रजी केंदीय व्हड भास आसूं, कितलीय गरजेची आसूं, आपणाले वेव्हार इंग्रजींतल्यान चलचे नात हाची जतनाय घेवन रावलें. जपान जपान उरलां जपानी भाशेक लागून.

इजरायेल एक नवो देश. दोन अडेज हजार वर्सां पयलीं आशिल्लो. मागीर ना जावन गेल्लो. इजरायली लोक संवसारभर पातळ्ळेले. कोण जर्मन जाल्ले, कोण स्पेनिश, जाल्यार कोण आनी कोण जाल्ले. ज्या देशांत वचून रावले त्या देशांच्यो भासो घेवन वयर सरले. येवरोपी संवसाराक व्हडांतले व्हड लोक इजरायली लोकांनीच – ज्यू लोकांनी – दिल्यात. मार्क्स ज्यू. फ्रॉयड ज्यू. स्टीफन इवायग ज्यू. तें कित्याक, येशू ख्रिस्तूय मुदलांतलो ज्यू. एक दीस हांचे मदल्या कांय 'शॉविनिस्टिक, फॅनॅटिक' लोकांक जाग आयली. ते म्हणपाक लागले, आमकां आमची अशी एक भास मेळिल्ली. आमी ती सोडून दिली. आमची वळख – आयडेंटिटी – आमचे भाशेन आमकां मेळटली. आमी आमची भास वयर काडूंक जाय. आनी दोन हजार वर्सां पयलीं मरून पडिल्ली हिब्रू तांणी वयर काडपाचो वावर हातांत घेतलो. ते इतल्यार थांबले नात. म्हणपाक लागले, आमी जंय जंय पावले थंय थंय 'उपरे' म्हूण रावले. आमकां आमची एक भूंय जाय. आमचे राजकी आनी आर्थीक हितसंबंद एक जाले बगर आमचो एक 'समाज' जावपाचो ना. हांगा थंय शिंपडून राविल्ल्यांचो समाज एक जायना. तांणी आपणा खातीर एक देश संवसारा कडल्यान मागून घेतलो. ह्या देशांत वेगळे वेगळेकडेन शिंपडिल्ले ज्यू एकठांय जाले. तांच्यांनी इंग्रजी भास घेवं येताली. घेतली ना. हिब्रूंतल्यानूच ते आपणाले राजकी, आर्थीक, सांस्कृतीक वेव्हार चलोवपाक लागले. आनी पन्नास वर्सां भितर इंग्रजी, फ्रेंच, जर्मन भाशे कडेन सर्त करीत तांणी हिब्रूचो विकास घडोवन हाडलो.

व्हियेतनाम कितलींशीं वर्सां फ्रेंचांच्या साम्राज्यांतलो एक देश आशिल्लो. व्हियेतनामची मुखेल भास फ्रेंच जाल्ली. स्वतंत्र जायनाफुडें व्हियेतनामान फ्रेंच सोडून दिली आनी तिची सुवात व्हियेतनामीक दिली. सगळे वेव्हार व्हियेतनामींत चलयले. आयज व्हियेतनामी भास आशिया खंडांतली एक गिरेस्त भास जावन रावल्या. तांझानिया आनी लिबिया सारक्या देशांनीय खंयचीच येवरोपी भास घेनासतना आपापणाले भाशेंतल्यान आपणाले सगळे वेव्हार चलोवन आर्थीक आनी राजकी स्वातंत्र्या वांगडा आपणालें सांस्कृतीक खेरीतपणूय सांबाळून रावल्यात. खंयचोच स्वाभिमानी देश आपणाले वेव्हार विदेशी भाशेंतल्यान चलोवचो ना. फकत आमचो देश चलयता. चलयले बगर उपाय ना म्हणटा. स्वराज्य मेळचे पयलीं गुलाम आशिल्लो. आयजूय – स्वराज्य मेळून पन्नास वर्सां जालीं तरूय – गुलामूच उरला. गुलामिचो येदो 'जाज्वल्य' अभिमान आशिल्लो हाचे सारको दुसरो देश संवसाराचे फाटीर दुसरो मेळचो ना.

आनीक कितलो तेंप गुलाम उरतलो?

'शॉविनिस्टिक' आनी 'फॅनॅटिक' उठून उसळऽ सर?

* * *

येवरोपांतले देश खीणभर कुशीक दवरुंया. अमेरिकेकूय कडेक सारुंया. आमचे परस खूब मुखार गेल्ले देश हे. आशिया खंडांतलें जपानूच घेवंया. थंय कसले तरेचें शिक्षण भुरग्यांक मेळटा? शंबर प्रतिशत शिक्षीत असो एक देश हो. 'शिकूंक नाशिल्लो' थंय कोण मेळचो ना. तसो, शिकून बेकार पडिल्लोय कोण मेळचो ना.

जपानांतली पयली गजाल नदरेंत भरता ती ही –

थंय सगळ्यांक जपानी भाशेंतल्यानूच शिक्षण मेळटा. मुळाव्या पसून विश्वविद्यालयांतल्या निमाण्या वर्सा मेरेनचें. भुरगो शाळेक वचूंक लागलो म्हणटकूच धावे मेरेन मुखार वचत रावता. मदीं शिक्षण सोडून दिना. (ड्रॉप-आउट जायना) आनी नापासूय केन्ना जायना. उण्यांत उणें शिक्षण जण एकल्यान घेवंकूच जाय तें धावे मेरेनचें. उपरांत जण एकलो आपणालो रोजगार वेंचून काडटा. जपानांतले चडशे सगळे शिक्षीत self-employed. 'वयलें शिक्षण' दिवपी थंय कांय युनिव्हर्सिट्यो आसात. 'इंपीरियल युनिव्हर्सिटी' खासा सरकार चलयता. हे युनिव्हर्सिटींत शिकून जो भायर सरता ताका सरकारी नोकरी मेळटाच मेळटा. हे युनिव्हर्सिटी भायर थंय ज्यो शें सवायशें युनिव्हर्सिटी आसात त्यो जपानांतले व्हडले व्हडले उद्देग समूह चलयतात. ह्या युनिव्हर्सिटींतल्यान जे शिकून भायर येतात तांकां त्या त्या उद्देग समूहांत काम मेळटाच मेळटा. कांय जाणांक ते नवे उद्देगूय सुरू करून दितात. शिकिल्लो कोणूच बेकार पडना.

आमच्या देशांत?

शिक्षण फुकट मेळटा आसुनूय धावे मेरेन पावचे पयलींच शंबरांतले पन्नास तरी भुरगे मदींच शिक्षण सोडून दितात. हाका लागून 'एस्.एस्.सी. फेल' नांवाची एक 'डिग्री' आमच्या देशांत तयार जाल्या. हे 'ड्रॉप-आऊट' कित्याक जातात? जे भाशेंतल्यान तांकां शिकयतात ती तांकां समजना म्हूण. हे भुरगे, मागीर, आवय बापायचेय धंदे चलयनात. कुदळ खोरें हातांत घेवंक वा माडार चडूंक तांकां लज दिसता. 'हेंच करपाचें आशिल्लें जाल्यार, शिकूंक कित्याक जाय आशिल्लें?' अशें म्हणटात आनी खंयूय खंयचेय बँकेंत, शाळेंत वा ऑफिसांत प्यूनाची नोकरी सोदीत भोंवतात. वा खंयच्याय हॉटेलांत वेटर म्हूण रावतात.

आमचें शिक्षण खातें 'कित्याक उपकारा पडनात' असले लोक निर्माण करीत आयलां आयज मेरेन.

बरें, शिकून डॉक्टर, इंजीनियर वा असले कोणूय जातात तांकांय 'ह्या देशांत आमकां व्हडलोसो फुडार ना' अशें दिसपाक लागता, आनी ते इंग्लंड, अमेरिका, कॅनडा सारकेल्या देशांनी उठून वतात. शिकता आसतनाच थंयच्या वेगळ्या वेगळ्या विश्वविद्यालयांचे 'प्रॉस्पेक्टस' मागोवन घेतात आनी 'फुडल्या शिक्षणाखातीर' म्हूण थंय वतात. अमेरिकेंत फुडल्या शिक्षणा खातीर आतां मेरेन गेल्ल्या भुरग्यांतल्या कितल्या-श्या भुरग्यांनी फुडलें शिक्षण घेतलां जातलें हाचो कोणें अदमास काडून पळेला व्हय? काडिल्लो जाल्यार धा प्रतिशत लेगीत भुरग्यांनी तें घेवंक ना म्हणपाचें दिसून येतलें आशिल्लें. गेल्ले चडशे सगळे थंय नोकऱ्योच करतात. देशांत परते येवपाचो विचार लेगीत करी नात. 'ग्रीन कार्ड' घेवन थंयच राविल्ले पळोवंक मेळटले. आमी विश्वविद्यालयां चलयल्लीं देशाक जाय आशिल्ले वेगळ्या वेगळ्या मळांवयले तज्ञ निर्माण करपा खातीर. पळेल्ले अंतीं अमेरिकेच्या वा कॅनडाच्या उद्देगपतींक नोकरांची पुरवण करपाचेंच काम तीं करीत रावल्यांत, अशें दिसून येता. हेच खातीर आमी कोट्यांनी रुपये खर्च करून विश्वविद्यालयां चलयतात व्हय?

आमच्या उद्देगीकरणाच्या तंत्राचो आनी शिक्षणाच्या तंत्राचो ताळमेळूच ना. आमकां कसले तरेच्या उद्देगांक कसले तरेचे तज्ञ जाय हाची आंखणी उद्देगाचेंय मळ करिना आनी शिक्षणाचें मळूय करिना. गोंयूच घेवया – गोंयच्या 'विकासकार्या'न गोंयच्या विश्वविद्यालयांतल्यान भायर सरिल्ल्या कितल्याशया भुरग्यांक आसपावन घेतल्यात? आमचें विकास कार्य तरांतरांचे

उद्योग-धंदे सुरु करता आनी तांचे खातीर जाय आशिल्ले तज्ञ गोंयांत ना म्हूण भायल्यान हाडटात.

आनी आमचें शिक्षण तंत्र हे वटेन वर्सान वर्स शेंकड्यांनी बी.कॉम्. आनी सी.ए. निर्माण करता! इतल्या बी.कॉमांची आनी इतल्या सी.एं.ची गोंयाक गरज आसता व्हय? गोंयच्या शिक्षणतंत्रान निर्माण केल्यात तितल्या कलांची गोंयाक गरज आशिल्ली व्हय?

गोंयांत सगळे तरेचीं कॉलेजां आसात. एक कृषी विद्यापीठ जाय आशिल्लें. तांं नांव लेगीत कोण घेना. एक कृषी विद्यापीठ आमी चलयल्लें आनी 'किल्ले सवरिल्ले' भुरगे नांगर घेवन शेतांत देंविल्ले, मातयेंत हात घालून काम करूंक लागिल्ले लोकांनी पळेल्ले जाल्यार प्यून वा वेटर जपाची इत्साच 'एस्.एस्.सी. फेल' भुरग्याक जावची नाशिल्ली. तोवूय हें देखीन कुदळ खोरें हातांत घेतलो आशिल्लो आनी गोंयच्या उत्पन्नांत तेंय तरी नवी भर घालीत रावतलो आशिल्लो. आमकां भाजी आनी कां घाटावयलीं हाडचीं पडचीं नाशिल्लीं. 'एम्प्लॉयमेन्ट एक्सचेंजीं'त लाखभर लोकांचीं नांवां दिश्टी पडचीं नाशिल्लीं. सगळे self-employmentचे दिकेन चलतले आशिल्ले.

शिकूंक नाशिल्लो देशांत कोणूच उरूंक जायना, शिकूंक नाशिल्लो कोणूच उपास जायना, शिकिल्लो कोणूच बेकार उरूंक जायना आनी हांगा आमकां कार ना अशें म्हणून खंयच्याच हुशार भुरग्याचेर अमेरिकेंत वचपाचो प्रसंग येवंक जायना – हीं पथां सांबाळून आमी आमच्या उद्देगीकरणाची आनी शिक्षणाची आंखणी केल्ली जाल्यार –

स्वदेशी भासांच्या आधारानूच हें सगळें तडीक वचूंक पावतलें हाची आमकां जाणवीक जातली आशिल्ली. जपानान हें जपानी भाशेच्या आधारानूच शीक व्हेलां. चिनानूय व्हेलां. चीन आमच्या देशा परस व्हड देश. आवाटानूय आनी लोकसंख्येनूय. साठ सत्तर भासो आशिल्लो. ह्याच भासांच्या आधारान तो मुखार गेलां. थंय कोण 'शिकूंक नाशिल्लो' ना. कोण 'काम नासून बेकार पडिल्लो' ना. कोणाचेर पोटाखातीर अमेरिकेक वचपाचो प्रसंग येना. आमकांच कित्याक हें जमचें ना?

राजकी मळावयल्यान जशे आमी इंग्रजांक धांवडावंक पावले तशे शिक्षणाच्या मळावयल्यान इंग्रजीक धांवडायात – देश कसो भरभरीत मुखार वता तो दिश्टी पडटलो. इंग्रजीच्या ज्ञाना बगर आमकां देश वयर काडूंक शक जाय.

आमकां स्वराज्य मेळ्ळां तें हेच खातीर.

देशांचें प्रशासन इंग्रजींतल्यान चलता, बरें आसा. व्यापार कित्याक इंग्रजींतल्यान चलूंक जाय? जपानी लोक व्यापार करिनात? आमचे परस बरो करतात. व्यापारा खातीर तांकां इंग्रजी घेवची पडूंक ना. बरें, व्यापारा खातीर इंग्रजी दवरूंया. लग्नाचीं आमंत्रणां आमी इंग्रजींतल्यान कित्याक धाडटात? इंग्रजी आमंत्रणां वयलें Chi. Sou. म्हळ्यार कितें? हीं इंग्रजी भास न्हय, ही 'हिंग्रजी' – Hinglish. इंग्रजी ह्या देशांत फकत एकल्याकूच जमूंवंक आयली – जवाहरलालाक. बाकिचे उलयतात ते 'हिंग्लीश'. हे 'हिंग्लीशी'च्योय कांय मोडी आसात – बंगाली, महाराष्ट्रीय, मल्याळी, तमीळ इत्यादिक्यो. म्हजी भास इंग्रजी आशिल्ली जाल्यार हांचेर सगळ्यांचेर म्हजे भाशेच्या खुनाचो आरोप करून हांव तांकां आंतरराष्ट्रीय कोर्टांत ओडून व्हरतलों आशिल्लों. ही 'हिंग्लीशू'य फकत दोन प्रतिशत लोकां मजगतींच चलता. दोन प्रतिशंत लोकांत चलता ते भाशेक प्रशासनांत, न्यायालयांत, सवळ वेव्हारांत, शिक्षणांत भौमानाची सुवात मेळपाक लागली जाल्यार ती फकत परकी वा विदेशी म्हूण भायर मारूंक जाय अशें हांव म्हणचों ती एक 'सामंती' (feudal) भास म्हूण निखळावंक जाय, म्हणटलों. आर्विल्ले मुस्तींतल्या 'नव्या वायणां'ची भास जाल्या. इंग्रजांच्या काळांतले आय.सी.एस्. आपणाक we are new Brahmins of today म्हणटाले. तांच्याच हातांत स्वराज्य गेलां. परिणामी, एका हिन्दुस्तानांत दोन हिन्दुस्ताना जल्माक आयल्यांत. एक, दोन प्रतिशत 'नव्या बामणां'चें. दुसरें, अठ्ठ्याण्णवद प्रतिशत भौसाचें. देशांत विकास कार्य चलता तें ह्या दोन प्रतिशत लोकांक नदरे मुखार दवरून चलता. अठ्ठ्याण्णवद प्रतिशत लोक विकासा पसुनूच न्हय, तर 'स्वराज्या' पसुनूय पयस उरल्यात. सांगल्यार धसको बसतलो – देशा खातीर आपूण प्राण ओंपतलों अशें थारावन कोणूय 'मिलिटरी'त भर्ती जावंक भायर सरलो, जाल्यार 'इंग्रजी शिकला काय ना' हो प्रस्न ताका हे 'नवे बामण' विचारतले.

ह्या नव्या बामणांनी देशांत जी नवी संस्कृताय निर्माण केल्या तिका त्रिश्तांवांनी एक नांव दिल्लें – mongrel culture म्हूण. 'संकर संस्कृताय' ही. तीच आतां वयल्या वर्गांतले लोक आपणावपाक लागल्यात. भारतीय संस्कृतायेची सभावीक वाड जावपाक जाय आशिल्ली ती हे संस्कृतायेन कुंठीत केल्या. तिका मातूंक दिली जाल्यार 'कुछ बात है कि हस्ती मिटती नहीं हमारी' अशें जें आमी मोट्या अभिमानान म्हणत आयिल्ले तें एक दोन पिळग्यां भितर इतिहासजमा जावन वचत म्हणपाचो भंय दिसपाक लागला.

भारतीय संस्कृतायेचेर हाचे पयलीं जायते कडल्यान आगळिको जाल्ल्यो. पुणून ह्यो सगळ्यो भायल्यान जाल्ल्यो. तुर्तांक जी चल्ल्या ती घरच्यांकडल्यान चल्ल्या.

घरचे दुस्मान वळखूंक येवंक जाय आमकां.

## भारतीय संस्कृताय कोणें घडयल्या?

आमगेल्या म्हालगड्यांनी चार वर्णांची एक समाज-व्यवस्था रचली आनी सगळ्यांक सांगलें, जण एकल्यान आपापणाल्या वर्णाच्या कर्मांक धरून काम करचें. बुदवंतांनी तर आपणाल्या वर्ण-कर्मां भायलीं कामां करून नेणार लोकांचो बुद्धिभेद करचो न्हय. सगळेच ह्या उपदेसाक धरून चलिल्ले जाल्यार भारतीय संस्कृताय गिरेस्त जावंक पावतली आशिल्ली?

हेंच पळेयात – परशुराम भृगूचो पूत. भृगू ब्राह्मण. परशुराम आपणाल्या वर्ण धर्माक धरून चलिल्लो जाल्यार अस्त्र-विद्या ह्या देशांत वाडुंकूच पावची नाशिल्ली.

वसिष्ट उर्वशेचो पूत. उर्वशी इन्द्राची 'रखेली'. तो आपणाल्या वर्णधर्माक धरून चलिल्लो जाल्यार ऋग्वेदाचें सातवें मंडळ आमकां मेळचें नाशिल्लें.

व्यास सत्यवतीचो पूत. सत्यवतीचो बापूय खारवी. तो आपणाले जातींतूच राविल्लो जाल्यार महाभारत भागवता सारके धर्मग्रंथ आमकां मेळचे नाशिल्ले.

लोमहर्षण मेस्तांगेर जल्माक आयिल्लो. तो मेस्तपण करीत राविल्लो जाल्यार पुराणां आमकां मेळचीं नाशिल्लीं.

नारद सोन्याचो धंदो करतल्यागेर जल्माक आयिल्लो. तो आपणाले जाती भायलीं कामां करूंक मुखार सरूंक नाशिल्लो जाल्यार भक्तिशास्त्र आमकां मेळचें नाशिल्लें.

हे सगळे वर्ण धर्मा भायलीं कर्मां करूंक लागले म्हुण्णूच मू आमकां येदेय व्हडलें हें दायज मेळूंक पावलें?

मध्ययुगांत जांणी लोकसंस्कृती घडयली ते तर जल्मानूच 'सकयल्ल्या' जातिंचे आशिल्ले. कबीर लुगटां विणटालो. रविदास चामार आशिल्लो. सदना कसाब आशिल्लो. धन्ना जाट. सेना म्हालो. नाभाजी डोम. दादू पिंजारो.

चातुवर्णाक धरून भारतीय संस्कृताय चलिल्ली जाल्यार तिका वेदीक यज्ञयागांचेर आनी उपनिषदांतल्या ब्रह्मविचारांतूच धादोशी रावचें पडटलें आशिल्लें. बुद्ध महावीर चार्वाक जल्माक येतले आशिल्ले व्हय?

भारतीय संस्कृताय घडयल्या एक तर जाती मोडल्यात तांणी वा 'सकयल्या' जातींत जल्माक आयल्यात तांणी.

## देशाक नि:शस्त्र कोणें केलां ?

१८५७तल्या बंडा सारकीं बंडां परतीं केन्नाच जावंक पावचीं न्हय म्हूण खंय इंग्रजांनी सगळ्यांत पयलीं एक काम केलें – लोकांकडेन आशिल्लीं सगळीं शस्त्रां काडून घेतलीं. आनी तांकां नि:शस्त्र केले!

सावरकरपंथी इतिहासकार हें कितल्याश्या वर्सां पसून सांगीत रावल्यात आनी कशें कितें कित्याक असले प्रस्न करपाची संवूयच नाशिल्ले आमी तें मोन्यांनी खरें मानीत आयल्यात.

तर्जून पळोवया —

शस्त्रां 'काडून घेवपाक' तीं कोणाकडेन तरी आसूंक जाय आशिल्लीं. तीं कोणाकडेन आशिल्लीं?

देशांत एक समाजवेवस्था चलत आयिल्ली. हिका चातुर्वण्य व्यवस्था नांव आशिल्लें. बुद्ध हिचे आड झुजिल्लो. बुद्ध ख्रिस्ता आदल्या सव्या शतमानांतलो. म्हळ्यार, वर्णविवस्थेची पिराय इंग्रज आयल्यात त्या वेळार उणी पुरीं अडेच तीन हजार वर्सांची तरी आसूंक जाय. हे वर्णविवस्थेन समाज चार वेगळ्या वर्णांच्या जगांत वांटून घाल्लो आनी दर एका वर्णाची ताचीं ताचीं कामां वांटून दिल्लीं.

ब्राह्मणांचीं कामां आशिल्लीं शिकप शिकोवप, यज्ञ करप, यज्ञ करून घेवप आनी दान करप तशें दान घेवप – हीं स.

हांचे कडेन शस्त्रां कित्याक आसतलीं?

दान, यज्ञ, अध्ययन हांचे भायर शेतकाम, गोरवां राखण, वेपार आनी सावकारी हीं कामां नेमून दिल्लीं वैश्यांक.

हांकांय शस्त्रां बाळगुपाची गरज नाशिल्ली.

आनी शुद्रांक तर कोणाच्याच गुणांचो मत्सर करी नासतना ब्राह्मण क्षत्रीय वैश्य ह्या 'वयल्या' तिनूय वर्णांची परिचर्या करप हेंच एक काम आशिल्लें.

एक क्षत्रीय वर्ण सोडीत जाल्यार शस्त्रां कोणाच कडेन वर्णव्यवस्थेन दवरूंक नाशिल्लीं.

आनी समाजांत क्षत्रीय आशिल्ले ब्राह्मण वैश्यां इतलेच. बाकिचे सगळे शूद्र. तांचे कडेन कितें 'राखपा सारकें' आशिल्लें म्हूण ते शस्त्रां सांबाळटले आशिल्ले?

देशाक नि:शस्त्र आमच्या म्हालगड्यांनी पयलीं केल्लो. इंग्रजांनी फकत तांचें अर्दकुटें उरिल्लें काम पूर्ण केलां इतलेंच.

सगळें तर्जून पळोवंक जाय एक फावट.

* * *

---

# पडसाद

## श आनी ष

जागाच्या फेब्रुवारी १९९९ अंकार श्री. दामोदर घाणेकारान शुद्धलेखनाच्या नेमां विशीं एक चर्चा सुरू केल्या. ताणी हर नेम आपल्या अनुभवाचे आदारार नियाळून अभिप्राय सागला. नेम ४ हाचे विशीं ते अशें बरयतात —

'ह्या नेमाचेर वाद आसूं नजो. पूण श्रेश्ठ, कनिश्ठ, ज्येश्ठ, विश्लेशण, घर्शण, पोशण, भूंयपृश्ठ, पृश्ठभाग, गुरुत्वाकर्शण, अनुश्ठान आनी मंगलाश्टकां हीं उतरां 'श'न बरोवचीं काय 'ष'न तें थरोवंक जाय. कोंकणींत 'ष'चो उच्चार घोळना अशें ह्या नेमांत म्हळां. वैशण्व, बहिश्कार, भ्रश्टाचार, प्रतिश्ठान, शिश्य, भाश्य, साश्टांग ह्या उतरांचेर खोलायेन विचार जावंचो.'

हें वाचनाफुडें अजाप दिसता. एका तरपेन 'ष'चो निषेध. दुसरे तरपेन चर्चा जाय खंय. दोनीय एकडेच कशें?

आतां नेम ४ कितें सांगता पळोवंया.

कोंकणींत ष व्यंजन उच्चारांत घोळना. 'श' हेंच व्यंजन घोळटा. पूण विशेशनामां बरयतना 'ष' हें व्यंजन उपकारावपाचें. हें विशेशनाम म्हळेलें NRI वा SC/ST वो कांय?

श्री. घाणेकारान दिलेल्या उतरांचे वळेरींतल्यान एक स्पष्ट दिसता की तांकां प्रश्न समजला. देखून समाधान जावंयेत. आतां मेरेन कोणाचे मुकार हो प्रश्न उप्रासल्लो दिसना.

असले प्रश्न मुकार येनाफुडें आमी अशें, तुमी तशें, हांगा अशें, थांगा तशें अशें जपून वेळ होगडावन कांय उपेग ना. ह्या विषया पासून – हांव विशय म्हणी ना – शास्त्रीय नदरेन चिंतन-मनन करूंक जाय. ते शिवाय नवो उजवाड मेळपाचो ना.

नदर मेळय – नदरे माज्या<br>
नदर मेळय.<br>
चान्नें फुलतलें – मनां<br>
चान्नें फुलतलें

अशें गावून गेल्यात स. र. वि. पंडित.

चिंतन सुरू करतना पयलेंच इतिहासार नदर धावडावंया. प्राचीन भारतीय आर्यभासेचे इतिहासांत पळयल्यार श आनी ष हे उच्चार वेगवेगळे आशिल्ले म्हुण समजूं येत. नागरी लिपींत उच्चारांचे आधारानूच अक्षरां ही वेवस्ता आसा. ब्राह्मी लिपींतूय श, ष वेगवेगळे आशिल्ले अशें जाणकार सांगतात. आनी पाणिनी मुनीन निछेव केलेल्या प्रमाणी श आनी ष वेगवेगळे आसात. जाल्यारूय एका बदल दुसरें आयलें म्हूण अर्थभेद जावचें उतर एक सरि ना आशिल्लें. उच्चारण भेद आसा; जाल्यारूय ताच्यान अर्थभेद जायना.

ही स्थिती अजून चलता. विषय बरय, विशय बरय, अर्थभेद ना. रमेश रमेष जाता. कोश कोष समान. भाशा म्हण, भाषा म्हण, कसो फरक? संस्कृत तत्समां विशीं ही स्थिती कोंकणींतूच न्हय तर अन्य भारतीय आर्य भासांतूय देखूं येता.

पूण हांगा एक गजाल सांगची आसा. आतां आतां 'श'काराक चड प्रचार मेळ्ळा. ताचें महत्व आनी प्रभुत्व वाडत आसा. आनी 'ष'कार चिड्डून पडला. 'श' बहुसंख्यं जाला, तरी 'ष' अल्पसंख्य. अल्पसंख्यांकालें सुवातेरूच बहुसंख्य पावला. घडये तेंच देखून जायत, षकाराचो पाखो घेवन घाणेकार मुकार आयल्यात.

कोंकणींत 'ष'चो उच्चार घोळना, 'श'चोच घोळटा ही नेमकार मानेस्तांली प्रतिज्ञा खरी-शी दिसना. देखीक —

कोचीं वेंकटपती देवाचे माक्शीं एक सान-ल्हान देवळ आसा. तांतल्या देवाचें नांव 'षष्टो' म्हूण. षष्टो म्हळ्यार शास्त्रा. हांगा शकारान षकाराच्या रुपान नवो अवतार घेतला. आमकां षष्ट पै आसा; षष्टभटूय आसा. प्रमाण कोंकणींत 'अठरा' म्हणच्या आंकड्याक कोची 'आषा' म्हण्टात. सांगचें

म्हळ्यार, लाखान लाख मनशांनी उलोवचे एके भाशेंत अमकेंच आसा, के ना अशें प्रख्यापन करप कशें साजपाचें?

आतां भाशाविज्ञानाच्या आदारार चिंतन करूंया.

उच्चारणशास्त्राचे नदरेन ट, ठ, ड, ढ, ण, ळ, ष हीं अक्षरां एकाच त पडटात. हीं उच्चार करतना जिबेची स्थिती खंय कशी आसा म्हूण ात. जीब चिके माक्शीं वळून जिबेचें तोंक ऊंच आफडटा म्हूण कळटलें. णाकय अनुभव करून घेवंयेत. ह्या अक्षरांचो सोबावगूण अनुभवान जूंयेत. अनभौ सांचा वेद.

जीब ऊंच वचून लागचे स्थानाक भाशाशास्त्रांत 'मूर्धा' म्हण्टात. आनी ठ, ड, ढ, ण, ळ, ष ह्या अक्षर-वर्गाक 'मूर्धन्य' म्हणटात.

आतां शकाराचो सबाव पळोवंया. 'श' च, छ, ज, झ, ञ ह्या वर्गांत . हीं अक्षरां उच्चारतना जिबेची स्थिती खंय म्हूण अनुभव करून घेयात. जिबेचो मुकावयलो भाग ऊंच वचून लागून पसरून राबता. हांगा जिबेचें न्हय, जिबेचो अग्रभागूच उंचार लागता. ह्या स्थानाक 'तालु' म्हणटात. ी ह्या च, छ, ज, झ, ञ, य, श ह्या अक्षरांक 'तालव्य' म्हणटात.

श आनी ष वेगवेगळीं जातात कशीं हें हांगा मनांत येता मू. 'ष' उच्चारतना वळून तोंक मूर्धाक लागता, तरी 'श' उच्चारतना जिबेचो अग्रभागूच र लागता. दोनूय अक्षरां लागीं लागीं म्हणून अनुभव करून घेवूंयेत.

फाटभुंयेचेर श्री. घाणेकाराल्या प्रश्नाचें समाधान मेळटलें.

आतां श + ट = श्ट आनी ष + ट = ष्ट ह्या जोडगिरयांविशीं चिंतन या.

श्ट म्हण्टना जीब श चे स्थितियेर सावन ट चे स्थितियेर येवूंक जाय. ष्ट म्हणटता जिबेक हो आयास नाका. जीब एकेच स्थितिचेर राबता. न ष्ट गोडगिरें उच्चारप सरल आनी स्वाभाविक आसता. श्ट उच्चार त तरी अंग्रेजी भाशेंतल्या sht सारको आसतलो. भारतीय भाशेंतलो र्गिक उच्चार जावंचो ना. देखून 'श्ट' निसर्गविरुद्ध; देखूनूच अशुद्ध. ट, नश्ट, पुश्टि, सृश्ट, साश्टांग, अश्टक, दिश्टी अशें बरवप अशुद्ध. , नष्ट, पुष्टि, सृष्ट, साष्टांग, अष्टक, दिष्टी अशें बरोवंक जाय.

यर जें श्ट, ष्ट विशीं सांगलें तेंच श्ठ, ष्ठ विशींय खरें आसतलें. ष्ठ ार सरल. कित्याक? तें उच्चारतना जिबेची स्थिती एकेच सुवातेर ता. श्ठ उच्चार निसर्गिक न्हय. देखून श्रेश्ठ, कनिश्ठ, ज्येश्ठ, भुंयपृश्ठ, भाग, अनुश्ठान, प्रतिश्ठान ह्या उतरांतलें जोडगिरें अशुद्ध. तें ष्ठ रुपान ल्यार शुद्ध जातलें. देखून श्रेष्ठ, कनिष्ठ, ज्येष्ठ, भुंयपृष्ठ, पृष्ठभाग, अनुष्ठान, ष्ठान अशें बरोवंक जाय. कुष्ठ, निष्ठा हींवय साधारण येवंचीं उदाहरणां. कुश्ठ, निश्ठा अशें बरोवप शुद्ध न्हय.

जी युक्ती ष्ट, ष्ठ विशीं सांगली, तीच ष्ण विशींय लागू जाता. ष्ण जोडगिरें भाविक जाल्यार श्ण स्वाभाविक न्हय. देखून विश्णू, वैश्णव, कृश्ण, श्णू अशुद्ध आनी विष्णू, वैष्णव, कृष्ण, किष्णू शुद्ध.

आनीक एक मुद्दो – श्क जाय की ष्क?

श उच्चारतना जिबेचो मुकावयलो भाग वावरता तरी क उच्चारतना बेचो माक्शींचो भाग उंच वचून लागता. मूर्धा स्थितिचेर सावन माक्शीं प जिबेचे मुकावयले स्थितिचेर सावन माक्शीं वच्या परस सोंपें. देखून परस ष्क सरल दिसता. देखूनूंच बहिश्कार अशुद्ध, बहिष्कार शुद्ध. च आविश्कार अशुद्ध, आविष्कार शुद्ध, आयुश्काल अशुद्ध, आयुष्काल म्हणूंयेत.

आतां अन्येक प्रश्न – शण जाय की षण? घर्शण जाय की घर्षण? 'ष' षकाराचे वर्गांत पडटा. श त्या वर्गांत ना. देखून 'षण' 'शण' हाचे उच्चार करूंक सरल सुखकर आसतलें. घर्षण भाशेच्या सौबावाक कूल आसतलें, घर्शण न्हय. तशींच पोषण, गवेषण, अन्वेषण, विश्लेषण रूपां शुद्ध आसतलीं.

कोणाकय शकार जायच म्हुण आसूं. तावळ 'ण'कारा बद्दल 'न'कार जायत. म्हळ्यार घर्शन, पोशन, गवेशन, अन्वेशन, आकर्शन, विश्लेशन हीं रूपां शुद्ध म्हूण मानूं येत. 'ण'काराक 'ष'कारालागीं जशी ओड आसा, तशीच 'न'काराक 'श'कारा लागीं आसा.

जाल्यार ह्या दोनीय रूपांचो कालवो अशुद्ध जातलो. देखीक – घर्शण वा घर्षन, अन्वेषण वा अन्वेषन हीं रूपां शुद्ध जावचीं नात. 'षण' शुद्ध, 'शन' शुद्ध तरी 'शण' अशुद्ध, 'षन' अशुद्ध अशें संक्षेपान सांगूंयात.

हर भासेंत उच्चारांची एक निसर्गिक रीति आसा. तशीच अक्षरांक एकामेकांलागीं एक खाशेली ओड आसा. ती वळखूक जाय. वळखिल्यारूच शुद्ध कितें आनी अशुद्ध कितें तें समजूंक जायत. एक उदाहरण सांगन.

गनपत, गनेश, गनित, गुनीत, गुनगन, वर्नन अशें म्हळ्यार आयकल्यार आमकां बरें दिसना. गणपत, गणेश, गणित, गुणीत, गुणगण, वर्णन अशें म्हळ्यार आयकल्यार बरें दिसता. हें बरें दिसप वा बरें ना दिसप, हाका आधार कितें? हीं उतरां नकारान म्हण, णकारान म्हण, अर्थभेद कांय जायना बी. आतां आतां इंग्लीश शिकवणेक लागून जायत, न-णचो फरक उणो जावूंक लागला. प्राण प्रान जाता. कोंकणी कोंकनी जाता. गूण गून जाता. अशी जिबेची कानाची रूचीच बदलूंक लागल्या. आनी अशें बे-सुवाद उलोवप एक अपुरबायेचें फॅशन वरी वाड्डता.

आमगेले परंपरेंत 'न' आनी 'ण' वेगवेगळींच. 'श' आनी 'ष' वेगवेगळींच. 'न' 'श'च्या वर्गांत पडटा आनी 'ण' 'ष'च्या वर्गांत पडटा. देखून आमगेले जिबेक कानांक 'षण' बरें दिसतलें तशेंच 'शन'. जीब कान बेसुवाद जाल्यार मागीर कितें जायत, कशें सांगप?

श्री. घाणेकाराले वळेरींत आतां दोन शब्द बाकी उरल्यात. शिश्य आनी भाश्य. शिष्य जाय की शिश्य? भाष्य जाय की भाश्य, हो प्रस्न.

'य'काराचो एक खाशेल्लो गूण आसा. तो खंयचेय व्यंजनाक जुडतलो. क्य, ख्य, ग्य... श्य, ष्य... देखून श्य, ष्य दोनीय जोडगिरीं भाशेंत चलतलीं. संस्कृतांत शिष्य भाष्य अशें बरयतात खरें. पूण 'श्य' रुपां अशुद्ध दिसनात.

'श्य' येवंचें आनीक एक उदाहरण सांगन. 'वन्दे मातरम्' ह्या प्रसिद्ध राष्ट्रगीतांत 'सस्यश्यामलाम्' म्हुण आसा. तें 'शश्यश्यामलाम्' म्हूण बरयतात. तशी गायतात बी. तशी शश्य, शिश्य, भाश्य चलतात. चलूंक दी.

आतां मेरेन श आनी ष ह्या अक्षरांविशीं जें देखलां ताचो निष्कर्ष भाषाविज्ञानाची परिभाषिक उतरावळ उपेग करून अशें सांगूं येत –

कोंकणी भाशेंत श, ष एकूच स्वनिमाचीं (Phonemes) दोन संस्वन (Allophones) आसतात, जीं पूरक वितरण नेमान (Rule of Complementary Distribution) कार्य करतात. ट, ठ, ण, क हांच्या जोडगिरयांत पयले सुवातेर ष येता, तरी बाकी सगले स्थितींत श येता.

लिपिमविज्ञानाचे (graphemics) नदरेन अशें म्हणूं येत —

नागरी लिपींत श, ष एकूच लिपिमाचीं (grapheme) दोन संलिपि आसतात जीं पूरक वितरण नेमान (Rule of Complementary Distribution) कार्य करतात. ट, ठ, ण, क हांच्या जोडगिरयांत पयले सुवातेर ष येता तरी बाकी सगले स्थितियेंत श येता.

आतां नेम ४ असो पुनरगठित करूं येत, अशी — कोंकणींत श आनी ष एकूच अक्षराचे दोन प्रकार आसतात. ट, ठ, ण, क हांचे जोडगिरयांत पयले सुवातेर ष बरयतात तरी बाकी सगलेकडेन श बरयतात.

उदाहरणां ह्या लेखांतूच आसात मू. ('मू'क अनुस्वार जाय म्हूण दिसना.)

— पी. जी. कामत
चेरुमुक्कु, तृशूर

ह्या बरपाचें शुद्धलेखन बदलूंक ना – वावुरपी संपादपी

# पडींग जमीन

मूळ हिन्दी : भरत कुमार
कोंकणींत हाडपी : उदय देशप्रभू

सांजे वेळार कोर्टांतल्यान घरा परतलों तेन्ना घराकडेन सगळीं जाणां म्हजीच वाट पळेतालीं. स्कुटरिचो आवाज आयकून बिट्टू आनी निरू धांवत भायर आयलीं. हांवें स्कुटर स्टँडार काडचे पयलींच बिट्टून म्हजेर घालून घेतलें आनी म्हळें, 'बाबा, तूं जाणा...?'

स्कुटरिचे डिकींतल्यान 'केस फायल' भायर काडीत हांवें विचारलें, 'कितें पुता ?'

'पिंकीचो बाबा ना...'

'ताका कितें जालें ?'

'ताणें नवी कार घेतल्या. हीऽती पळे, थंय उबी आसा. रंगूय बरो, न्हय ?'

हांवें उजव्यान वळून पळेलें. कुशिकच्या फ्लॅटा मुखार गाड निळ्या रंगाची कार उबी आसली. ते म्हणसर निरूय लागीं आयलें. म्हणूंक लागलें, 'बाबा, सामकी नव्वी कार... पिंकी सांगतालें, खूब म्हारग खंय ती.'

'अशें ?' भुरग्यांचे खोशयेंत वांटो घेवपाक हांवेंय अजाप उकतायलें.

बिट्टू आनीक मातसो लागीं आयलो आनी म्हाका वेंगायत म्हणूंक लागलो, 'हांव पिंकी वांगडा कारींत बसलोंय बी. आमकां दोगांकूय भोंवपाक घेवन गेल्लो... खूब मजा आयली.' मागीर लाडांत येवन म्हणूंक लागलो, 'बाबा, आमीय बी कार घेवंया रे...'

हांवें बिट्टूक हांडीर घेतलो आनी मोगान ताका म्हळें, 'खऱ्यांनीच घेवंया.'

मागीर हांव घरांत भितर सरलों. कांय वेळ भुरग्यां लागीं गाडये विशींच उलयलों. म्हज्या आश्वासना उपरान्त दोगांय खुशालभरीत जालीं आनी उमेदीन भायर खेळूंक गेलीं.

कोट काडून हँगराक लायलो आनी सोफाचेर बसतां बसतां बायलेक उलो मारलो, 'सविता, च्या हाड गो...'

हांव भुरग्यांकडेन उलयतालों तें सवितान आयकल्लें जावंये. म्हूण घडये च्याचें आदन ताणें पयलींच दवरिल्लें. च्याची ट्रे म्हजे मुखार टिपॉयचेर दवरून तें म्हणपाक लागलें, 'भुरग्यांनी तुका सांगलां आसतलेंच... गौतमभाईन नवी कार घेतल्या. तांगेल्या फ्लॅटा मुखार तुवें ती पळेल्याय जातली. तागेली बायल दनपरां येवन मिठाई वांटून गेल्या.'

आनी मागीर मिठाइची बशी म्हजे मुखार धरीत लांब उस्वास सोडून म्हणपाक लागलें, 'घे, तोंड गोड कर... तुगेल्या इश्टान नवी कार घेतल्या...' वाक्याचो निमाणो वांटो मुद्दामूच ताणून धरिल्लो. म्हजे खातीर तातूंत एक सुचोवणीय आशिल्ली.

मिठाइचो एक कुडको हांवें तोंडांत उडयलो.

च्याचें मग म्हज्या हातांत दीत सवितान म्हळें, 'कॉलनींत आमी सोडून बाकी सगळ्यांकडेन कार आसा...'

'म्हळ्यार, आमीच फकत बे-कार आसात तर...' हांवें हांशार व्हरपाचो यत्न केलो.

'फकाणां नाकात आं... तुवें म्हजें कितेंच केन्ना गंभिरतायेन घेतलां व्हय ?'

'कित्याक घेवंक ना ?! कार घेवपाचो हांवूय बी यत्न करतां... पूण...'

'आसुंदी त्यो गजाली.. तूं फकत यत्न करितूच उरतलो. बाकी सगळ्यां कडेन कार आयली.'

'हय गो. पूण ते सगळे वेपारी वा सरकारी ऑफिसर. हांव एक सादो वकील. तरी...'

'धाकल्या देराचो खंय वेपार आसा ? तोय बी 'सादो दोतोरू'च मू ? तरी दोन वर्सां जालीं जावेक कार घेवन भोंवतना पळेतां. आनी तूं एक आसा...'

'आगो, कितें उलयता ? जितूक तूं 'सादो दोतोर' म्हणटा ? नांवाजतो सर्जन मगो तो ! धाच वसांत ताणें कितली नामना जोडल्या जाणा ?'

'आसूं तें आतां... वकिलकी करतां करतां तुकाय बी पंदरा वर्सां जावन गेलीं. पूण इतल्या ह्या वर्सांनी एक फ्लॅटूच कितें तो तूं घेवंक पावला...'

'अशें म्हणूं नाका... आमचे कडेन सगळें आसा... टी.वी., फ्रीज, कुलर, वी.सी.आर. वॉशींग मशीन, भांगर, कपडे...'

'आंवऽय... ह्यो गजाली सगळ्यांकडेन आसतात. मातसो येवजून पळे – तूं कार घेवन कोर्टांत वचूंक लागलो जाल्यार लोकांचेर छाप कशी पडटली... भुरगींय कितलीं खोशी जातलीं...'

'खरें तुजें', हांवें तकली हालयत म्हळें. मागीर आरमारींतल्या लॉकरांतल्यान बँकेचें पास बूक भायर काडलें आनी ताचेवयलो आंकडो पळोवन म्हळें, 'सविता, एक लाखभर आसात बँकेंत... तुका जाय जाल्यार एक पोरणी कार घेवं येत...'

'नाका नाका... पोरणी कार नाका. नवीच घेवंया.'

'बरें आसा. तशें जाल्यार आनीक पयशांची वेवस्था करची पडटली.'

हांव येवजणेंत पडलों. बायलूय कांय वेळ विचार करीत उरली. मागीर अचकीत कितें तरी याद जाल्ले वरी म्हजे म्हऱ्यांत येवन म्हणूंक लागली, 'गांवांत तुज्या नांवार थोडी जमीन आसा न्हय ?'

'हय. पांच-स एकर आसतली. पूण बापायच्या नांवार आसा. हांवें सांगल्यार रोखडोच म्हज्या नांवार करून दितलो.'

'जमीनं कितल्याची शी आसतली?'

'खबर ना. तें थंय गेले बगर कळचें ना.'

सविता खोशी जालें. म्हणूंक लागलें, 'मागीर आनी आनी कितें येवजुपाचें, कून उडय ती जमीन...'

'तें बरें आसा. पूण इतल्या वर्सां उपरान्त गांवांत वचप तेंय बी जमीन कपाक, हें बरें दिसतलें? जगदीशभाई कितें म्हणटलो?'

'कितें म्हणटलो? आमी ताची जमीन भोव घेतात. आमच्याच वांट्याची मीन विकतात आमी. हरशींय म्हूण पडिंगूच जमीन ती.'

अडचणींतल्यान वाट मेळिल्ली. फकत कांय दीस गांवांत वचून हें सगळें स्तरूंक जाय आसलें. आतां म्हाकाय कार घेवपाची उमेद आयिल्ली.

रातीं जेवणा उपरान्त हांव केस फायली घेवन बशिल्लों तेन्ना मनांत कत गांव आनी थंयची जमीन हांच्योच येवजणो येवपाक लागल्यो. तकलेंत वन भोवन कारूच येताली. हेर गंजालिंनी लक्षूच लागना जालें.

हांवें वकिली सुरू केल्ली तेन्नासावन गांवची वासपुसूच करूंक नासली. न्ना केन्ना बाबाच शारांत येतालो, दोन-चार दीस रावन परतो वतालो. णें केन्ना आपल्या तोंडान तागेल्या गरजांची, घरची वा गांवची हांवें बर घेवची म्हूण सांगूंक ना. जगदीशभाई गांवांत रावतालो. थंयचेच मुळावे ळेंत मास्तर आसलो. तो बी.ए. मेरेनूच शिकूंक पाविल्लो. देखून दुसरी सलीय नोकरी मेळपाचीय आस्त नाशिल्ली.

गांवांत आमगेलें पोरणें घर आसलें. जगदीशभाई त्याच घरांत आपणाल्या टुंबासयत रावतालो. पंदरा एकर जमीन आसली. आमी तीग जाण भाव हूण बाबान अदमासान पांच पांच एकर आमचे भितर वांटून घाल्ले. व आनी जितू म्हळ्यार 'डॉ. जितेन्द्र प्रसाद' शारांत रावताले म्हूण तिकाम बी जगदीशभाईच पळेतालो.

सकाळीं उठनाफुडें हांवें बायलेक म्हळें, 'परां आयतार. गांवांत वतां नी जमनिचो वेव्हार करून येतां.'

आयकून बायलूय खुशालभरीत जाली.

आयतारा दिसा सकाळीं फुडें हांव तयार जालों. बॅगांत दोन-चार कपडे ले आनी च्या बी घेवन स्कुटर घेवन गांवचे वाटेक लागलों. वाटेर संतपूर गांव लागतालो. थंयच्या हर्षदभाईची विक्रीकर संबंदिची केस म्हजेच डेन आसली. म्हळें, वतां वतां म्हजी फीय वसूल करूंया. हर्षदभाईचे यस मिली मुखार स्कुटर थांबयली. हर्षदभाई आपणल्या कामगारां वांगडा मांत आसलो. म्हाका स्कुटरी वयल्यान देंवतना पळोवन लागीं येवन णें म्हळें, 'यो, यो, बरो पावलो...'

म्हाका घेवन तो आपणाल्या ऑफिसांत आयलो. च्या मागयले उपरान्त णें विचारलें, 'वकीलसायब, आयज हे वटेन खंय?'

'हेवटेनच्यान निमखेडा मेरेन वतालों... दोन दीस कोर्टाक सुटी आसा. खून म्हळें, मातशें गांवांत वचून येवंया.'

'आतां तूं आयलाच म्हणटकच तुजी पयलिंची फी घेवन वच.' मागीर टिंचो कवळो म्हजे मुखार दवरून म्हणूंक लागलो, 'सात हजार आसात. जून घे.'

पयशे कोटाच्या बोल्सांत घालीत हांवें म्हळें, 'मेजूंक कित्याक जाय, रके आसतले.' ताचो निरोप घेवन हांव भायर सरलों.

सुमार शात्तर किलोमिटरांचो रस्तो बरो आशिल्लो. म्हूण चड त्रास डले नात. उरिल्लो पांच किलोमिटरांचो रस्तो सामको बाद आशिल्लो. वच्यो गल्ल्यो बलांडून घरा मुखार स्कुटर पावली तेन्ना आवाज आयकून न-चार भुरगीं भायर आयलीं आनी उमेदी नदरेन म्हजे कडेन पळेत वलीं. भुरग्यां फाटल्यान तांची आवयूय दारासरीं आयली. म्हाका पळोवन जापभरीत जावन म्हणपाक लागली, 'भावोजी तुमी...? सविता येवंक ?'

'ना वयनी, एकलोच आयलां...'

'येयात येयात... भितर येयात...' मागीर भुरग्यांक सांगूंक लागली, 'बबलू, राजू, हो तुमचो प्रेमकाका. रायपूरच्यान आयला. चलात, ताचें सामान भितर हाडात.'

भुरग्यांक म्हजी वळख मेळिल्ली. ते स्कुटरीवयलें म्हजें बॅग घेवन आयले आनी 'काका आयलो', 'काका आयलो' म्हणत आंगणांत धांवत गेले.

खूब वर्सांनी गांवांत आयिल्लो. सुमार धा-एक वर्सांनी. इतल्या वर्सांनीं जायतें कितें बदलिल्लें. ज्या घरांत आमच्या भावा-भयणांचें भुरगेपण गेल्लें तें आतां मोडून गेल्लें. त्या जाग्यार तीन कुडिंचें एक मजली घर उबें आशिल्लें. घराच्यो वणटी मातयेच्यो आसल्यो आनी पाखें नळ्यांचें आसलें. बल्कांवांक तेंकून एक व्हडली कूड आशिल्ली. थंयच्यान कोणाच्या तरी खांकपाचो आवाज येतालो. हांव तेच कुडींत गेलों.

बाबा हांथरुणार पडून आसलो. म्हाका पळोवन तो उठपाचो यत्न करूंक लागलो. उश्याकडेन दवरिल्लें बानयन आंगार चडोवन कुशीक दवरिल्लें आपणालें वक्ल सोदपाक लागलो. वक्ल घालतकूच म्हगेली वळख घेवपाचो यत्न करीत म्हणूंक लागलो, 'कोण, प्रेम रे...?'

'हय बाबा...'

'यो पुता... यो, हांगा बस.'

हांव ताचे कुशीक बसलों. बाबा खूब अशक्त जाल्लो. खांकतना आंग सगळें हालतालें. ताचे ते अशक्त कुडीक आनी तोंडा वयल्या मिरयांक पळोवन खीण भर हांव मातसो भियेलों. म्हजे म्हाकाच सावरतां सावरतां हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागलों. कूड सामकी रिती रिती आशिल्ली. हांथरुणा कुशीक तीन पोरणीं कदेलां आशिल्लीं. कदेलांच्या हातांचे दांडे मोडिल्ले. कुडिच्या एका कोनशाक विटो दवरून तांचेर दोन पेटो दवरिल्ल्यो आशिल्ल्यो. कुशिकूच वणटी भितर आशिल्ले आरमारींत एक पोरणो ट्रांजिस्टर, वखदांच्यो कांय रित्यो, कांय भरिल्ल्यो बाटल्यो, कांय कागदांत बांदिल्ल्यो पुडयो, एक हारसो आनी एक फणी आसली. वणटी वयल्या खुटयाळ्याक दोन बोटवे आनी बाबालें खोमीस हुमकळायल्लें आशिल्लें. वयर दांडयेर बाबालें पुडवें सुकतालें. तें पळोवन एक पोरणी गजाल याद जाली.

बाबा एक दीस आमगेर आयिल्लो तेन्नाची. तागेलें खोमीस बोल्साकडेन मातशें पिंजिल्लें. निरूची नदर ज्युस्त थंय गेली. 'आज्या, तुजें खोमीस पिंजलां मरे', ताणें म्हळें. आयकून, आपल्या पिंजिल्ल्या बोल्साकडेन पळेत बाबान म्हणिल्लें, 'बाय, हें खोमीस पिंजूंक ना... गांवांत सगळे असलींच खोमसां घालतात. गांवची फॅशन ही.'

निरूक तें खरेंच दिशिल्लें. पूण बाबा खासा आपणाकूच समजावंक पावलो ना जावये. घडये तेन्नाच्यानूच तो आपणाल्या अशक्त हातांनी आपणाल्या कपड्यांची जतनाय घेवंक लागिल्लो.

बाबाक परतून खांक आयली. 'बरो ना तूं?' हांवें विचारलें.

'ना रे पुता. बरो आसां हांव. खांकेचो मात अर्दीं मर्दीं त्रास जाता.'

'वखद बी घेता काय ना?'

'घेतां, घेतां. जगदीश बरी जतनाय घेता म्हजी. दोन दिसां फाटींच वखद हाडून दिलां.'

मागीर ताका कितें तरी याद जाल्ले वरी म्हणूंक लागलो, 'आरे, एकलोच आयला काय सुनबायूय आयल्या वांगडा?'

'एकलोच आयलां. एके केसी निमतान वसंतपूर आयिल्लों. फाल्यां परां कोर्ट बंद आसा, तेन्ना म्हळें हांगा येवंया...'

'खूब बरें केलें. बिट्टू, निरू आसात मरे बरीं?'

'हय...'

इतल्यान थंय राजू आयलो आनी म्हणूंक लागलो, 'काका, न्हावन यो...'

बाबानूंय म्हळें, 'हय, चल न्हावन यो पयलीं.'

आंगणांतले पेले वटेन बांय आशिल्ली. तिचे कुशिकूच विटांच्या वणटिंचेर पत्र्याचें पांखें घालून आनी दार लावन मान्नें केल्लें. थंय न्हातना म्हाका आमगेल्या फ्लॅटांतल्या चकचकीत मान्याची याद जाली.

हांव न्हावन धूवन तयार जालों. ते म्हणसर रांदचे कुडींत जेवण तयार आसलें. रांदची कुडूय म्हूण कसली? वारांदाचे एके कुशीक मातयेचे वणटीन एके कुडिचो आकार दिल्लो.

वयनीन म्हाका बसपाक पाट दवरलो आनी वाडटा आसतना म्हळें, 'जमनीर बसूंक अडचण जाता आसतली न्हय? हांगा मेज बी कांय ना...'

'ना गे वयनी, त्रास कसले?' हांवें म्हळें.

जेवण सादेंच आशिल्लें. पूण वैनी आपुलकायेन वाडटाली देखून जिवाक बरें दिसतालें.

आतां मेरेन हांवें सगळें घर आनी घरांतल्यो सगळ्यो वस्तू पळोवन घेतिल्ल्यो. खंयच संपन्नतायेची कुरू दिश्टी पड नासली. पूण आपलेपणाचो. परमळ मात सगळ्याक फांकारिल्लो.

सांजेच्या चारांक जगदीशभाई शाळेंतल्यान आयलो. म्हाका पळोवनूच तो खुशालभरीत जालो. सायकल वारांदाचे वणटीक तेंकोवन दवरीत म्हणूंक लागलो, 'कितल्या वर्सांनी आयला... घरचीं सगळीं बरीं मरे?'

'हय', हांवें म्हळें.

आंगणांत चारपाई घाली आनी ताणें म्हाका आपणासरीं बसूंक सांगलें. मागीर बबलूक उलो मारून म्हळें, 'चल, आवयक सांग हांगा दोन च्या घेवन यो म्हूण.'

च्या पियेवन जातकच भाईन म्हळें, 'प्रेम चल, मातशें शेतार वचून येवया. कोर्टांत तुवें जमनिच्यो कितल्योश्यो केसी लडयल्यात जातल्यो, जिकल्याय जातल्यो. पूण शेतांक कितें जाय आसता तें आतां तुजे तूंच मुद्दाम पळोवन घे...'

शेता म्हऱ्यांत पावतकच भाई सांगूंक लागलो, 'प्रेम, हें आमचें शेत. हो मुखावयलो कुडको तुजे वाटणेचो. हांगची माती जितूच्या आनी म्हज्या वांट्याच्या कुडक्यांचे मातये परस बरी. हो कुडको व्हाळा कुशीक आशिल्ल्यान ताका उदकूय बरें मेळटा... म्हजे कडेन बैलांचें एकूच जोत आशिल्ल्यान सगळी जमीन कसूंक पावना. पंदरा एकरां मदल्या धा-बारा एकरांतूच रोवंक पावतां. बाकी जमीन पडींग उरता. तातूंत, केन्ना पीक बरें येता, केन्ना येना. पावस सारको वेळार पडलो आनी किडी-जिवांनी उपकार केले जाल्यार पीक घरांत पावपाचें. ना जाल्यार कितलेय कश्ट केल्यार बिंयांचो आनी साऱ्याचो खर्चूच भरून येतासर नाका पुरो जाता.'

कांय वेळ ओगी रावन तो मुखार म्हणूंक लागलो, 'बाबा सांगतालो, आमच्या आज्याचे मुस्तींत आमचें घर ते हो व्हाळ मेरेनची सगळी जमीन आमची आसली. येदेय हे जमनीर पीक सळसळटालें. आतां फकत पंदरा एकर जमीन उरल्या... तिवूय सगळी हांव कसूंक पावना. खूब दिसता, सगळे जमनीर शेत रोवचें म्हूण. आनीक एक बैलांचें जोत घेवंक मेळिल्लें जाल्यार...'

'कितलेशे पयशे लागतले जोत घेवपाक?' म्हज्या तोंडांतल्यान एकदम भायर आयलें.

'बरें जोत घेवपाक स-सात हजार तरी जाय.'

हांवें शेतावयल्यान पयस मेरेन नदर भोंवडायली. कोनशाची दोन-तीन एकर जमीन पडींग आसली. बाकी सगळ्या वाटारांत गंव रोयिल्लो. कांय वेळान आमी घरा परतले.

रातीं जेवणा उपरान्त हांव आंगणांत चारपाईर पडिल्लों. परतो परतो मनांत होच विचार येतालो – म्हज्या वांट्याचे जमनी विशीं हांव बाबा आनी भाई कडेन कसो उलयतलों? हांव इतलो सुवार्थी व्हय? ना.. ना... म्हज्यान हें जावचेंना.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं आमगेल्या घरांतलो गडी - फिरतू घरचो बाजार करपाक जामगांव वचूंक भायर सरलो. म्हाकाय बाजारांत वचपाचें आसलें. हांवें ताका म्हळें, 'फिरतू, राव, हांवूय जामगांव वतां. स्कुटरी वयल्यान या.'

'आसूं धनया... हांव चलतूच वतां.'

'आरे, भियेता? चल, फाटल्यान बस.'

फिरतू भियेत भियेत फाटल्या सिटार बसलो. पंदरा-वीस मिनटांनी आमी बाजारांत पावले. स्कुटर एका झाडा मुळांत उबी करून फिरतू वांगडा हांव बाजार भरिल्लो थंय गेलों.

बाजारांत थोडो भोंवलों आनी बैलांचें एक जोत वेंचून काडलें. साडे स हजारांक घेवपाचें थरलें. कोटाच्या बोल्सांतल्यान पयशे काडून हांवें जोतकाराक फारीक केले. बैलांचें जोत पळोवन फिरतू खोशी जालो. हेर बाजार करून तो परतलो तेन्ना जोताची दोरी ताच्या हातांत दिवन हांवें ताका सांगलें, 'फिरतू, तूं जोत घेवन घरा वच. हांव स्कुटरीन फुडें वतां.'

घरा परतून हांव जगदीशभाई वांगडा च्या पीत बशिल्लों. इतल्यान जोताची दोरी झेलत फिरतूय पावलो. जोत पळोवन जगदीशभाईय अजापभरीत जालो. उत्सुकतायेन विचारूंक लागलो,

'कोणालें जोत रे फिरतू?'

'आमचेंच धनया. वकील सायबान दिलां.'

जगदीशभाईक खरेंच दिसलें ना. म्हजे वटेन वळून म्हणूंक लागलो,

'कितें रे प्रेम...!'

'कांय ना, भाई... जोत आवडलें आनी योगायोग म्हळ्यार, बोल्सांत पयशेय आशिल्ले... आसा न्हय जोत बरें?'

जगदीशभाईचे दोळे खोशयेन भरून आयले. मागीर एकदम उठून जोता म्हऱ्यांत गेलो. दोनूय बैलांचे फाटी वयल्यान हात भोंवडावन म्हणूंक लागलो, 'खऱ्यांनीच सोबीत जोत... बरें म्हारग आसतलें, न्हय? पूण, तुवें हें सगळें...'

'कांय ना भाई... काल शेतां पळेलीं आनी दिसलें, शेताचो इल्लोय कुडको पडींग उरूंक फावना.'

* * *

# शिवोलेचो जागर

**श्याम वेरेंकार**

जागर म्हळ्यार गोंयचो पिळग्यांनी घोळत आयिल्लो एक खाशेलो उत्सव. आदीम काळा सावन कांय गांवांनी लोक जागर मनयत आयल्यात. रखखी रात ते जागयतात. देवदेवतांक होरायतात. ''...शेतां-भाटां तरतराक वं, वारेसुत्रां शांत जावं, सगळ्यांक भलायकी मेळूं, गांवगांवकी तिगूं, फवट वाडूं...'' अशे तरेन गाराणें घालतात. वाजयत गाजयत, सत-नाचत, सवंगां खेळयत खोस मनयतात.

जागराच्यो दोन तीन तरा गावतात. पेरणी जागर, गावडी जागर आनी गरवी जागर. मूळ-जागर एकूच आशिल्लो जायत. उपरांत ताचीं रुपां गलीं जातलीं, वा तातूंत नवी भरस जाल्या आसतली आनी अशे तरेन जागराच्यो कितल्योश्योच तरा जाल्यात जातल्यो.

आदीं खंय जागर खेळटना जागराचे तीन वांटे करताले. पयलीं नमन, गीर देवाची माया आनी तांतलीं सवंगां; तिसऱ्या वांट्यांत आख्यान गातालें. आयज सगळी भरस जाल्या. फकत भोगावळीच करतात. चडशे कडेन मूळ आख्यान गळून पडलां आनी गुडां फालांनीं भरिल्लो मायेचो सारो वाडला.

गोंयचे कांय फामाद जागर हांगा जातात: चिंबल, शिरदोन, करमळ्यां, लींग आनी आपेव्हाळ. पूण जागरांत जागर असो शिवोलेचो जागर. बारदेस तालुक्यांतले अस्तंतेक शिवोलेचो माणकुलो गांव आसा. सैमाचे सोबितायेक हांगा ओतो येता. हूम गळोवन कश्ट करपी, म्हौंवाळ काळजाचे लोक हांगा रावतात. पिळग्यांनी घोळत आयिल्ले अस्मितायेची राखण करतात. शिवोलकार खूब उमेदी. नाचा-गितांचे मोगी. आपल्या घराब्याची तांकां भारी व्हडवीक. गांवचो व्हड अभिमान.

जावं किरिस्तांव जावं हिंदू; भावकेन रावन गांवगाडो चलयतात. एकाच भावार्थान एकठांय येवन वर्सावळिचो जागर मनयतात. जागरयो हो गांवचो राठारो देव. जागरयाचो भोवमान करचे पासत जागर करतात.

गांवांत एक पिंपळाचो रूखं आसा. रुखा मुळांत एक घुमटी आसा. घुमटेंत मूर्त बी कांय ना. होच जागरयाचो राबितो अशें मानतात. हिंदू लोक जागरयाक तेल दितात. किरिस्तांव मेणवाती जळयतात.

जागरयाचो धेंक लोकामनार सुमाराभायर आसा. जागरयाचें रागणें पडचें न्हय, कोप जावंचो न्हय म्हूण जण एकलो सादूर रावता. जागरयाक तुश्ट दवरूंक गांवचे वतीन नेमून दिल्लीं कामां अनमन नासतना करूंक जाय असो भावार्त आसा. गांवच्या सगळ्या लोकांनी एक जावन जागर जागोवंक जाय. कसल्याय कारणाक लागून वांगड्यां मदीं वाद उप्रासत जाल्यार गांवच्या वडिलान जागराचे आदीं ही तेड मिटोवंक जाय. ना जाल्यार जागरयाचो कोप जातलो असो भंय आसता.

इतिहास सांगता, गोंयांत फिरंगी येवचे आदीं लेगीत जागर जाताले. गोंयचेर पुर्तुगेजांची राजवट चालू जाली आनी उपरांत रोखडीच हांगा सांस्कृतीक हावळ आयली. पुर्तुगेजांनी बाटाबाटी आनी धर्मछळ चालू केलो. कितलिंशींच देवळां मोडलीं, धर्मग्रंथ जाळ्ळे, सण-परबांचेर, चाली-रितिंचेर बंधनां हाडलीं. बळाच्या नाड्यार बऱ्याच जाणांक बाटोवन किरिस्तांव केले. हांगा इगर्जो बांदल्यो, पुर्तुगेज भास शिकोवपाक शाळा सुरू केल्यो, येवरोपी संगिताचीं सोल्फां घोळोवंक लायलीं. येवरोपी पोशाख, खाण-जेवण, चाली-रिती आनी फिरंगी भास लादली... आनी अशे तरेन फिरंगी संस्कृताय गोंयांत बळोवचो यत्न केलो.

शिवोलेचो गांव ह्या बाटाबाटींक बळी पडलो. जायतीं कुटुंबां बाटलीं. किरिस्तांव जालीं. पूण तांणी आपणाली मुळावी आनी थळावी परंपरा भंगयली ना. जागरया वयलो भावार्थ इल्लोय उणो जालो ना.

धर्म बदललो पूण मनां तींच उरलीं. भारतीय संस्कृतायेंत घडिल्लो मूळ पिंड तसोच उरलो.

शिवोलेचो जागर खंय मदीं पुर्तुगेजांच्या जाचाक लागून बंद पडिल्लो. पूण मागीर गांवाचेर अरिश्टां येवंक लागलीं. गांवच्या पाद्रीन लोकांचे सांगणेन बिशप सायबाकडल्यान मान्यताय हाडली आनी १८९५ वर्सा सावन जागर परत्यान सुरु जालो.

आयज हो जागर मनोवपाचें फुडारपण करतात 'गुडे' आनी 'दांडो' वाड्यावयले लोक.

नाताळांचे परबे उपरांत येवपी पयल्या सोमाराक जागर करपाचो आसता. आदीं थारायल्ले प्रमाण आयतार आनी बुधवार येसायो मारतात. सुक्रारा दिसा रंगीत तालीम करतात.

जागराच्या सांजवेळा गुडे वाड्यार खोशये उमेदीक ओतो येता. नेण्टे-जाण्टे, बायलां-दादले सगळे लोक ठेवणेंतली बरी बरी मुस्तायकी आनी भांगरां-शिंगरां घालून नटून-थटून बोवाळटना दिसतात. जागरा मांडार दिव्याची चकचक आरास करतात. खाजेकार येतात, चणेकार येतात, बोमाडे विकपी येतात... एक ल्हानशी फेरी भरता.

सोयऱ्या-धायऱ्यांक आगऱ्याचें आपोवणें आसता. सगळ्यांगेर भरपूर जेवण शिजयतात. एका फाटल्यान एक पंगती चालूच आसतात. (जेवणाचे मेजवानेक हेर खाणां वांगडा सूर-सान्नां आसुंकूच जाय!)

त्या दिसा गांवांत जितल्याय माडांची सूर काडटात ती गांवाभायर विकिनात. सगळ्या तरांचें नुस्तें, फळफळावळ गांवचे खातीर राखून दवरतात.

जागरा दिसा गांवांत पाविल्लो कोणूय मनीस जागराकूच आयला अशें मानतात. ताका मागीर कोण, खंयचो, असले प्रस्न करिनात. ती व्यक्ती गांवचो पावणो आसता. ताका मागीर कोण ना कोण तरी आग्रो करून जेवणाक व्हरता. आख्खो वाडो म्हळ्यार एक व्हडलो घराबो कसो दिसता.

भुरगीं, बायलां आंगार वस्ती घालून जागराक येतात. सगळे हुसक्या मेकळे आसतात. चुकून माकून कोणालीय वस्त सांडली जाल्यार केदेय गर्दैत लेगीत ती वस्त गावता असो भावार्थ आसता. गांवच्या म्हालगड्यांचेर मात बरोच ताण आसता. देखून वाठाराक गंभीरपणाची सया मारता. खंय कितेंय आगळें उणें घडचें न्हय, किजिलां तंटे जावचे न्हय म्हूण जाण्टेले जागरूक आसतात. खंयचेय गजालिचो अतिरेक जावंक दिनात. संयम आनी सोंशीकपणान वावुरतात.

जागरा दिसा करपाच्यो सगळ्यो भोगावळी परंपरेन थारायल्ल्यो आसात. जागराच्या 'मांडार' गांवकार जमतात. थंय एक फातर आसा. ताचेर मेणवाती लायतात, दिवो पेटयतात. थंयच्यान मागीर सगळे परंपरेन थारायल्ल्या

एका घरा येतात. हें घर किरिस्तांवांचें. घरांतल्या आल्तारा सामकार हिंदू-किरिस्तांव दोनूय धर्मांचे गांवकार उबे रावतात. देवाक होरायतात. सगळ्या गांवाचें बरें जावचें म्हूण मागणें करतात.

थारावीक सुवातेर सवंगां रंगयतात. नाचत वाजयत मांडार येतात. घुमट, कासाळें, धोल, व्हायोलीन, चेरमॅल, बांसरी बी वाजपाचे साथीर नमनाक सुरवात जाता.

पयलें नमन देवाबाप्पा
माझें पयलें नमन देवाबाप्पा
दुसरें नमन देवू सुता
माझें दुसरें नमन देवू सुता
तिसरें नमन इस्पीरित सांता
माझें तिसरें नमन इस्पीरित सांता
सर्वय देवू एकच रेऽऽ आऽऽ आऽऽ आ...

नमन सोंपतकच 'भरभरैय्या' हो खेळ पार्त जाता. हातूंत दोन वाड्यांवयले (गुडे आनी दांडो) सुमार तीस-चाळीस लोक मांडार येवन गोलाकार रावतात. घुमटाच्या तालार गोल वाटकुळे नाचतात. उपरांत हेर सवंगां येतात. 'साईद' येता, 'फिरंगी राजा', माळी, माळणी... येतात, गायतात, नाचतात आनी हासोळणीं उलोवपां करून पोटांत पेटके हाडटात. निमाणें 'भंवर' हें सवंग येता. परंपरेंतलीं सवंगां जातकच घुमटांकार, होंवयो गावपी बी मांडकार मांडावयले भायर वतात.

मागीर 'तियात्र' सुरू जाता. कांतारां, क्लावन, फालां, ओपारी आनी खुसखुशीत संवाद सगळ्या लोकांक एका जाग्यार खिळायता. फांत्यामेरेन तियात्र चलता.

सकाळीं साडेपाचांच्या अदमासाक मांडाचे मानकरी परतून मांडार जमतात.

'म्हार' आनी 'म्हारीण' हीं दोन पात्रां येतात. नाचत नाचत गायतात. गिरक्यो घेतात. संवाद उलयतात. निमाणें नांदिचें नमन जाता. सगळे जमून देवीक गाराणें घालतात. जागर उलगता. पूण धा बारा जाणांचो एक जमो आनी म्हारिणिचें सवंग नाचत गायत थंय भरिल्ले फेरयेंतल्या दुकानदारांकडल्यान 'वाडी' पुंजायता. उपरांत गांवांतल्या कांय थरावीक घरांनी भोंवन वर्सावळिची वाडी मागता. वाडयेंत सान्नां, सोरो, चणे, खोबऱ्या कातली, खाजें बी जिन्नस आसपावतात.

शेवटाक, परंपरेन थारायल्ले वाटेन सगळे जाण फेर्नांदिसाल्या आंगणांत जमतात. शिरोडकार नमनाच्यो होंवयो गायतात. वाजपां दाळून दवरतात. खोशी उमेदिचें रसण जिरोवंक तरणाटे पुरो जायसर नाचतात. सगळ्यांक कातली आनी सान्नां प्रसाद वांट्टात. वर्सभराची राखण घेवन जागराच्यो भोगावळी सोंपयतात. असो जाता शिवोलेचो जागर.

किरिस्तांव आनी हिंदूंच्या एकवटाचें प्रतिक आशिल्लो पारंपारीक तितलोच आधुनीक असो हो एकूच लोककलाप्रकार.

जागराचीं कामां अनी सवंगां पुर्वापार चलोवपी घराब्यांमजगतीं शिरोडकार, फेर्नांदीस, सौजा, रोद्रिगिस, रेडकार, मेस्त, पेरैर हांचो आसपाव जाता.

जागराचेर संशोधन करपी एक जर्मन प्राध्यापक डॉ. अलेक्झांडर हॅन हांच्या मताप्रमाण शिवोलेचो जागर हो बार्देस तालुक्यांत बाकी उरिल्लो एकूच जागर. आयज ह्या जागरांत लेगीत विधी नाट्य साप्प उणें जालां आनी ताका प्रायोगीक कलेचें रूप आयलां.

जागरांत पेण्या पेण्यान बदल आनी विकास जायत आसा. सुरवेक हो जागर पुराय पारंपरीक तरेन जातालो. १९३५ साला तातूंत 'कांतार' हो गीत-गायन प्रकार घुसडायलो. येवरोपी संगिताचो चड वापर जावंक लागलो. १९५८ वर्सा सुरवेच्यो पांच-सात भोगावळी जातकच 'तियात्र' ह्या किरिस्तांव भौसामदीं लोकप्रिय आशिल्ल्या नाट्य प्रकाराचो जागरांत आसपाव जालो. आयज जागरांत रेमो फेर्नांडिस सारके जगप्रसिद्ध कलाकार वांटो घेतात. ह्या सगळ्या कारणाक लागून वर्सान वर्स चडावत लोक जागराक हाजेरी लायतात.

शिवोलेचो जागर आनी हेर सुवातिंनी जावपी जागर हांची तुळा केल्यार काळाप्रमाण बदलत वचपी असो हो गोंयचो एकूच लोककलाप्रकार. परंपरा आनी आधुनिकतेचो सांगड हातूंत बेस बरो जुळ्ळा.

पेरणी जागर, गावडी जागर, खारवी जागर हे जागर खेळप्यां मजगतीं एकेच जातिच्या लोकांची मिरासदारी आसता. जाल्यार हिंदू आनी किरिस्तांव एकठांय येवन सादर केल्लो असो हो एकूच जागर – शिवोलेचो जागर.

* * *

# ीर-सुवादीक कॉलम

लीप बोरकार

ा काँग्रेसींत भितर सरलों आनी सगळ्यांक धक्को बसलो.
ाळ्यांत चड बसलो तो आमच्या कोंकणीवाद्यांक.
ा असलीं अवचित्रपणां करीत अशें तांणी चिंतूंक नासलें.
नांत लेगीत चिंतूंक नासलें अशें हांव हांगा म्हणिना.
त्याक तर असल्यो राजकी घडणुको तांच्या सपनांत येनात,
चीं सपनां लिमिटेड – मर्यादीत.
कणी अकादमी, कोंकणी भाशा मंडळ वो राजभास विभाग.
हूच जालें जाल्यार मागीर मराठीवादी आनी मराठी अकादमी.
मराठीवाद्यांनीच तांची न्हीद सामकी उणी केल्या.
ढून जितली पडटा तातूंत तांकां सपनां दिसतात तीं इतलींच.
णटकच म्हज्या काँग्रेस प्रवेशाची अपेक्षा आनी तांच्या सपनांत
शी बाळगूं?
शें जरी आसलें तरी तांकां धक्को बसलो हें मात खरें.
य वर्सां आदींय तांकां असलोच जबरदस्त धक्को बशिल्लो.
कणीवाद्यांचो एक व्हडलो जथो तेन्ना अकस्मात काँग्रेसींत गेल्लो.
कसो आनी कित्याक गेल्लो हें गेल्ल्यांकूच खबर नासलें.
नी मागीर तो थंयच्यान खंय गेलो हाचोय कोणाक पत्तो ना.
ण म्हणटात, ते आजून थंयच आसात तर कोण म्हणटा नात.
चे वांगडा तेन्ना हांवूय गेल्लों जाल्यार बरें जावपाचें.
ग्रेसीक लागून कोंकणीवाद्यांक दोन धक्के बसचे नाशिल्ले.
ा आदींच गेल्ले तांचे भितर आनी म्हजे भितर फरक आसा.
गेल्ले ते कसलीच अपेक्षा बाळगिनासतना काँग्रेस सुदारूंक.
नी हांव गेल्लों तो म्हाका काँग्रेसची उमेदवारी मेळची म्हूण.
तां हेंच पळेयात, काँग्रेस म्हणटात तो सर्वसमावेशक पक्ष.
णें गोंयच्या सगळ्या घटकांक उमेदवारिचे वांटे घाल्यात.
तूंत किरिस्तांव बामण, हिंदू बामण, उबे-आडवे आसाच.
भायर धनगर, क्षत्रीय, मराठा, बायलो, दादलेय आसात.
ा तांणी आयज मेरेन प्रतिनिधित्व दिलेंना तें लेखक जमातीक.
रें म्हळ्यार सगळो दोश ह्या कोंकणी लेखकांचोच.
णी ही मागणी हे आदींच संघटीतपणान करूंक जाय आसली.
करपा बदला ते आपले मदींच पांय ओडीत आसतात.
डांत चड संघटनाधीश आपलें सादोवन मेकळो जाता.
शा वेळार लेखकांचे हितसंबंद म्हाकाच सांबाळचे आसले.
दान एक तरी लेखक निवडून आयल्यार तांचें कल्याण जावपाचें.
चीं पुस्तकां खपय, तांकां पुरस्कार दी असलीं कामां जावपाचीं.
ा म्हजो हो उदात्त हेतू एकाय कोंकणीवाद्याक कळ्ळो ना.
फकत म्हज्या काँग्रेस प्रवेशाचेर धक्के खायत बसून रावले.
च्या धक्क्याचें रोडात, ह्या प्रवेशान म्हजे म्हाकाच धक्को बसलो.
व काँग्रेसींत वतलों अशें हांवें सपनांत लेगीत चिंतूक नासलें.
जून म्हाका ती गजाल सपन कशी दिसूंक लागल्या.
व अर्ज भरपाखातीर काँग्रेस भवनांत गेलां.
ग्रेस पक्षाचो सेक्रेटरी आर्थर सिकैर थंय झमेता.
ाध्यक्ष शाताराम नायक पयस खंयतरी नदर लावन बसला.
दिल्लीय म्हूण कळना आनी कुंकळ्ळेय म्हूण कळना.

हांव भितर सरलों तें पळोवन पयलीं तो गडबडलो.
ताचे ते धांदलीवेल्यान तो कोंकणीवादी म्हूण कळटालें.
नाजाल्यार राणे, लुइझीन, दयानंद बी हांकां पळयात.
मात लेगीत हांगा थंय थतरवितर जावप ना. सामके थीर.
'तुवें राजिनामो हाडला?' भानार येवन शांतारामान विचारलें.
'ना. हांव प्रवेश अर्ज घेवन आयलां.' गोंदळून हांवें म्हळें.
हो म्हाका वळखूंक बी ना काय? म्हाकाच प्रस्न पडलो.
म्हाका सगळे वळखतात असो हांवें समज केला तेंच चुकलां.
'हांव दिलीप बोरकार. हांव तुमचे काँग्रेसींत येवंक सोदतां.'
तसो तो हांसलो. ताचें तें गूढ हास्य भांग्याचे कविते सारकें दिसलें.
न समजुपी, आकलन न जावपी, भंय दिसपा सारकें कशें.
सगळे पक्ष सोडून वतात आनी तूं कित्याक मडसरेक आयला?
अशेंच कितें तरी विचारता असलें तें हांसप दिसलें म्हाका.
'सगळ्या बऱ्या लोकांनी पक्षांत येवन आतां पक्ष घटमूट करूंक जाय.'
हांव तिकेटिच्या मोगान न्हय, पक्षाच्या मोगान आयलां हें दाखोवंक सोदतालों.
पूण हें सगळें तिकेटी खातीर हें तो जाणा आसलो.
'आसूं, तें कळ्ळें म्हाका. आनीक कोण कार्यकर्ते बी हाडल्यात?'
'ना. हांव एकटोच आयलां. कार्यकर्त्यांचीं कित्याक तीं नाटकां?'
'हरकत ना. पूण हांव घालतां पेपराचेर. दोनशीं कार्यकर्त्यांसयत
काँग्रेस प्रवेश केलो म्हूण.'
'दोनशीं? नाका.' हांव मातसो आबालार सो जालों.
दीपा मुरकुंडेक पुरस्कार मेळ्ळा हें कळटकच तें जाल्लें पळय तशें.
'कित्याक? चड घालूं? घालतां. फरक कितें पडटा?'
प्रेस नोट काडटां काडटां शांताराम नायकान विचारलें.
ताका फरक पडनाशिल्लो. फरक पडटालो तो म्हाका.
फाटले खेपे म्हाका मेजून सवायशें मतां पडिल्लीं.
आतां दोनशें कार्यकर्ते म्हजे फाटल्यान आसात म्हूण कळत
जाल्यार म्हजो आदलो पक्ष कारण नासतना जितो जातलो.
म्हजे कार्यकर्ते म्हळ्यार कोंकणीचे कार्यकर्ते अशें लोकांक दिसतालें.
पूर्णानंद च्यारी तर आपली अस्थायी समिती स्थायी करतलो.
तीं लफडीं नाकात म्हूण म्हाका तो कार्यकर्त्यांचो आंकडो नाका आशिल्लो.
शिवाय इतले दुडू खंयच्यान जाले काय म्हूण
इन्कमटॅक्सवाले फाटीक लागपाचे.
तरी पूण तिकेट बिकेट मेळटली जाल्यार असले कार्यकर्ते गरजेचे आशिल्ले.
'तुका खरेलेच कार्यकर्ते जाय जाल्यार दोन दीस राव.
तांचे वांगडा रावन तुजो फोटो-बिटो काडून पेपरांत घालुंया.'
शांतारामान म्हाका मदींच एडवायज दिलो.
तो कितें सांगता तेंच म्हाका कळनाशिल्लें.
खरेंच कांग्रेस पक्ष हो गहन पक्ष म्हणटात तें फट न्हय.
म्हाका असो रानांत पडिल्लो पळोवन ताणेंच म्हाका सांगलें,
दोन दिसांनी वासू पायक गांवकार आपल्या समर्थकां सयत काँग्रेसींत
भितर सरपाचो आशिल्लो.
तो येतना आपले पैंगीणचे समर्थक हाडपाचो आशिल्लो.
तांचे वांगडा हांव रावल्यार म्हाका आपसूक समर्थक मेळपाचे.

आतां पैंगीणचे वासूचे समर्थक म्हळ्यार थंयच्यो
धनगर बी समाजांतल्यो बायलो.
तीं पणजे बी येतना हळडुवीं-तांबडीं-पांचवींच कापडां देठलेन न्हेसतात.
माथ्याक आंबाडोभर आबोलीं जीग बी घालून माळटात.
पळयतल्याक दिसता तो लोकनाचाचो मेळ म्हूण.
अशा समर्थकां वांगडा रावन हांवें फोटो काडलो आनी
तीं म्हज्या आगशीच्या समर्थकांनी पळयलो जाल्यार हांव मेलोंच.
आशिल्लीं नाशिल्लीं सवायशीं मतांय ना जावपाचीं.
तांचे वांगडा फोटो काडप रामभाऊ जुवारकाराक बी सोबता.
नेहरू युवा केंद्रांत तो आसतना लोकनाचाचीं पथकां
दिल्ली बी व्हरतालो. तांचेमदीं आपूण रावन रंगीत फोटो काडटालो.
मदीं रामभाऊ आनी ताचे फाटल्यान तीं रासभर रंगीत बायलां.
फोटो पळयल्याक रामभाऊ फाटल्यान आशिल्लो तो
मोराचो फुलयल्लो शेंपाडो काय दिसतालो.
हांवें शांताराम सांगलें, हांव एकटोच आसां तोच बरो आसां.
ताका म्हज्या पिशेपणाची काकूट दिसल्या जावंक जाय.
'म्हाका तिकेट बी मेळूं येता मरे?'
प्रवेश अर्ज भरून जातकच हांवें अशें बेठेंच म्हूण विचारलें.
तिकेट बी मेळटली जाल्यार अशें लागीं गेल्ल्या सारकें दाखोवचें पडटा खंय.
'तें म्हजेर एकट्याचेर खंय आसा? राणे, चर्चिल बी आसात.'
'तूं सांग मरे चर्चिलाक.' हांवें आनीक लागोळेपणां केलीं.
'शी! हांव उलयना चर्चिलाकडेन. आंगावेली पाल उडोवची तशें शांतारामान म्हळें.
ताची ती भुरग्या भशेनची अभिव्यक्ती म्हाका भौच आवडली.
पळोवन म्हाका हांसुंकूच आयलें.
'शांतारामबाब, पक्षांत म्हूण अशीं झगडीं धरून बसूं येतात?'
समेट जाता जाल्यार म्हजो थोडो आदार लाभचो म्हूण हांवें म्हळें.
'कितलींय जालीं जाल्यार ही पक्षीय झगडीं.'
'पक्षाक लागून हांगा घराघरांनी झगडीं जातात. आमचें खंय घेवन बसला?'
'हय, हांव जाणां. पक्षाक लागून गांधी घराणें काबार जालां.'
कॉंग्रेस घराण्याविशीं हांव खूब कितें जाणां हें दाखोवंक हांवें म्हळें.
'हांव आमच्या घराण्याविशीं म्हणना. तूं सुबोधाक वळखता?'
नेहरू-गांधी बी घराणीं पुरसोबाब आपलीं मानतालो.
आतां शांतारामूय आपलीं म्हणूंक लागिल्लो.
पूण सुबोधाक वळखता काय म्हूण ताणें म्हाका कित्याक विचारलें तें कळ्ळेंना.
हांगा राजकारणांत कोण कोणाक वळखता म्हणपाचें सांगपाचें नासता.
सांगतलो जाल्यार कोण कोणाचो हें पयलीं जाणा जावन घेवचें पडटा.
जाका पक्षाची तिकेट घेवंची आसा ताणें तर सामको सादूर रावचें पडटा.
समजा कोणेंय विचारलें, 'राणे तुका कसो रे?'
आनी हांवें बडाय मारूंक 'शे! तो सामको घट म्हाका' अशें म्हळें
आनी तें लुइझीन वो चर्चिलाक कळ्ळें जाल्यार
मागीर तिकेट मेळपाचें सोड, पक्षूच नाका जावपाचो.
तशेंच हांव चर्चिल, रवी बी हांचो अशें राणेक कळ्ळें जाल्यारूय तीच गत.
देखून हांगा वारो येता तशें सूप धरचें पडटा.
थंय तीं कोंकणीवाद्यांचीं भुरगेपणां आनी पचपचीतपणां उपकारनात.
चंद्रकांत म्हजो, उदय म्हजो, रवीन्द्र म्हजो, भाई म्हजो, काका म्हजो बी म्हणपाचीं.
कांय काळा आर्दीं तें कोंताक येतालें.
आतांच्या काळार हांगा अमको अमक्याचो म्हूण कळ्ळें जाल्यार
आनीक आनी रावपाचें ना.
साहित्य अकादमीचो सोड, पै फाऊंडेशनचो लेगीत पुरस्कार मेळचोना.
सुबोधाचें नांव शांतारामान घेतलें आनी हांव शादूर जालों.
म्हजे राजकीय संबंद जाणा जावन घेवपा खातिरूय हो प्रस्न आसूं येतालो.
सुबोधाचें शक्ति सिन्हा, वाजपेयी हांचेकडेन घरावे संबंद आसात
हें हांवच न्हय, आख्खे गोंयकार जाणात.
सुबोध वाजपेयी वांगडा हिमांचलाक लेगीत वचून आठ दीस राविल्लो.
'हो सुबोध आनी कोण?' हांवें म्हजें अज्ञान प्रकट करीत
शामळूभाशेन शांतारामाक विचारलें.
'सुबोध. सुबोध केरकार. कळंगुटे आसता. पयलीं दोतोर आशिल्लो. आतां चित्रकार जाला.'
म्हज्या अज्ञानाक हांसत शांतारामान म्हाका सांगलें.
'तातूंत कितें जालें? पयलीं विली दोतोर नाशिल्लो?
आतां पळय तो कसो ए वन राजकारणी जाला.'
नाका आसतना म्हज्या तोंडांत विलीचें नांव आयलेंच.
राजकारणांत इतली सदळ जीब आसून उपकारना
हें म्हाका केन्ना कळटलें देव जाणा!
तरी बरें, शांतारामाचें विलीकडेन कोंत्रसांव ना.
हांव सुबोधाक वळखना हाची ताका खात्री जाली.
'तूं ताका तसो वळखुचोना. तूं त्या मडगांवच्या
दोतोर जयवंत सरदेसायाक वळखता न्हय! ताची एक चली पळय
त्या राजू नायकाक दिल्या. राजू रे. पयलीं सुनापरान्ताचो संपादक बी आशिल्लो.'
म्हाका भितरल्यान 'हय' म्हणचें अशें दिशिल्लें.
पूण तिकेट मेळसर कोणाचीच वळख नाका अशें हांवें सामकें थारायल्लें.
हातूंत आनिकूय भंय आशिल्लो तो म्हळ्यार
हो म्हाका वळखी विचारीत वता आनी हांव वळखना म्हूण
सांगत गेलों आनी हाणेंच जर मुखार म्हळें,
'तूं हांकां वळखना जाल्यार तिकेट कित्याक मड्याक मागता?
असल्यांनी निवडून येतलो तूं?'
'बरें, तूं विजय सरदेसायाक वळखता?'
हांवें हय म्हळें. सगळेंच ना म्हणप बरें नाशिल्लें.
'बरें आसा. ह्या विजयाची एक भयण राजूक दिल्या.
आनी दुसरी भयण सुबोधाक. आतां कळ्ळें तुका सुबोध कोण तो?'
तोंडार उबगण हाडून शांतारामान म्हळें.
हांवें हय म्हूण मान हालयली आनी शांतारामाक सूऽ जालें.
एकदांची म्हाका वळख पटली म्हूण ताच्या तोंडार खोस परगटली.
'हो सुबोध भाजपांत भितर सरलो आनी तांच्या घराब्याचीं झगडीं सुरू.'
'जातलींच न्हय. विजय कॉंग्रेसींत आनी सुबोध भाजपांत म्हणटकच
विजयाक वायट दिसूंक फावोच.'
'शे! तो भाजपांत गेला म्हूण ताका वायट दिसलेंना.
आपूण कॉंग्रेसींत आयलों हाचेंच ताका चड वायट दिसलां. तें आसूं.
विजयाक सुबोधाचें वायट दिसलें तें सुबोधान सोनियाक हिप्पीण म्हळी म्हूण.'
'दिसपाचेंच. सुबोधाचें हें नाका जाल्लें. ताका ताचे गॅलरींत येवपी
हिप्पिणीय सारक्यो आनी सोनिया गांधीय सारकी.
ताका कॉंग्रेसमॅनांच्यो भावना वळखूंक येनात.'
हांवें शांतारामाचे भावनेक हात घालीत म्हळें.
'म्हणजे तूं सुबोधाक वळखता?' दुबावान म्हाका पळयत शांतारामाचो

न.
ये! सुबोध कळंगुटचो अशें तुमीच म्हणटाले न्हय.
ळंगूट म्हणटकच हिप्पीणी आयल्योच.'
रें आसा. विजयान सुबोधाच्या व्यक्तव्याचो जाहीर निशेध केलो.
सुबोधाचे बायलेक आवडलोना. तिणें ते खातीर
जयाचे बायलेक कितें तरी म्हळें. तें दोगांयच्या भुरग्यांनी आयकलें.
झगडलीं. एकामेकांवांगडा खेळपाचें लेगीत तांणी सोडलें.
तूंत जाण्टेलीं मदीं पडलीं. आतां तूंच पळय, राजकी झगडीं
ळागाळा मेरेन कशीं पावतात तीं.'
ंच कित्याक? हाका लागून जातीय-धर्मीक दंगली लेगीत जाल्यात.'
तारामाच्या वक्तव्याक तेंको दिवंक हांवें म्हळें.
वटाक म्हजे तिकेटिचो प्रस्न आशिल्लो.
य मरे! मागीर चर्चिलाचीं आनी म्हजीं झगडीं जाल्यार व्हडलेंशें कितें
ालें?'
र्चिलाच्या साद्या उल्लेखाक लागून म्हाका येदें व्हडलें
मायण आयकुचें पडटलें हाची म्हाका खबर नाशिल्ली.
रें वच तूं आतां. तिकेटिचें पळोवया.
जेखातीर म्हजे प्रयत्न आसाच. कामाक लाग तूं.'
ाणें म्हाका कसल्या कामाक लाग म्हळें तें म्हाका कळ्ळें ना.
ड करून मतदारसंघांत भोंवपाच्या अशें आसतलें म्हूण
ांवें मतदारसंघांत धांव मारली. म्हाका तिकेट मेळ्ळी म्हूण गांवार घालें.
ांव पावचे पयलीं बाकिचेय उमेदवार आपल्याक तिकेट मेळ्ळी म्हूण माराण
ी मारताले.
ांतारामाच्या एकल्याच्या उतराचेर हांव भरवंसून रावंक शकनाशिल्लों.
सरकारी नोकरेंत निवड समितिकडेन वशिलो लावप म्हळ्यार अपात्र थरप
अशें कायद्यान थारावन लेगीत व्हडा प्रमाणांत वशिलो चलता थंय
हांगा वशिलो लायलोना जाल्यार कशें जावपाचें!
निवड समितिच्या सगळ्या लोकांक हांव मेळ्ळों
आनी सगळ्यांनी म्हाकाच तिकेट दितां म्हूण सांगलें.
राणेन तर एका परस चड उमेदवार आसल्यार
सगळ्यांची मुलाखत घेतलों आनी निवड करतलों
अशें म्हाका उतर दिलें.
मुलाखत म्हणटकच भंय दिसलो. मुलाखतीक हांव सदांच फेल जातां.
म्हजेकडेन फावो ती सगळी पात्रताय आसता. तज्ञ विचारता
त्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो हांव ज्युस्ताक ज्युस्त दितां.
पूण म्हजी निवड मात केन्नाच जायना.
तरी पूण हांवें म्हळें, तुमी केंद्रीय व्हडली मुलाखत घेयात.
सगळ्यांपरस हांवच वयर आसतलों. पूण हांव जाणा आशिल्लों
मुलाखत जावपाची नाच. म्हाका लागपी दुसरो उमेदवारूच ना.
सोनियान बऱ्या उमेदवाराक तिकेट दिवपाचो हट्टूच धरला.
मागीर म्हणूं तिका सुबोधान हिप्पीण!
ती बऱ्या त्याच उमेदवाराक तिकेट दितली.
पूण म्हज्या मतदारसंघाचो प्रस्न बरे तरेन सुटावो जालो ना.
शेवटाक सिदाद द'गोवांत मुलाखतीक वचचेंच पडलें.
थंय एका रुमांत आमच्यो मुलाखती दवरिल्ल्यो.
भायर आमी सगळे उमेदवार बांकार बसले.
मुलाखतीक आयिल्ल्या जायत्या जाणांनी आपलो वशिलो लायला,
कांय जाणांनी दुडूय खावयल्यान हें हांव जाणां आसलों.
त्याच नेटार ते सगळे वावुरताले. पूण म्हजेकडेन
पात्रताय आसा ती तांचेकडेन खंय आशिल्ली?

एकएकल्या उमेदवाराक भितर आपोवन व्हरताले.
थोड्या वेळान ते भायर सरताले आनी वताले.
थोड्यांच्या तोंडार हांसो आसतालो तर थोड्यांक रडूंक आयिल्लेवरी जाल्लें.
तोंडार हांसो आशिल्ल्यांचें तोंड पळोवन म्हाका कलकलतालें
आनी रडकें तोंड पळोवन हांसो येतालो.
शेवटाक म्हजी पाळी आयली.
हांव म्हजें सगळें घेवन भितर गेलों.
सगळें म्हळ्यार हांवें बरयल्लीं डजनभर छापिल्लीं पुस्तकां.
तितलींच हस्तलिखितां. आयजवेर बरयिल्ल्या लेखांचीं गठ्ठ्यांनी कात्रणां,
चळवळींत वांटो घेतिल्लो त्या फोटवांचे आल्बम,
म्हजेर घाल्ल्या केशिंची चार्जशिटां.
हांवें खांदार मारून हाडिल्लो साक पळोवन रमेश चेन्नितलाक तो दुडवांचो
साक दिसलो.
लुइझीन, चर्चिलाक हांवें हॉटेलांतल्यो वस्तू फारायल्यात शें दिसलें.
राण्याक हांव हॉटेलांतलो कचरो पुंजावपी भंगारवालो दिसलों.
कोणाकूय कितेंय दिसूं.
हांव नेटान वचून कदेलार बसलों.
म्हजेमुखार सात लोक बशिल्ले. मदीं प्रदेश कॉंग्रेस अध्यक्ष लुइझीन,
उजवेवटेन केंद्रीय समितिचे सचीव चेन्नितला, ताचे कुशीक चर्चिल.
लुइझीनाचे दावे वटेन राणे, जॉन फेर्नांडीस, शिवराम आजगांवकार,
सुलोचना काटकार, निर्मला सावंत, रवी नायक, सार्दीन आनी विष्णू वाघ.
सगळे म्हाका खंयच्यान खावंक सुरवात करची तें पळयताले.
'तो साक कित्याक हाडला रे तुयें? बाटल्यो पुंजावंक?'
म्हाका भितर सरतासतनाच फालेरोचो प्रस्न.
तशे सगळे हांसले. हांसूं. हांसल्यांचे दांत दिसतात.
राणेक म्हजी काकूट आयली. कितलोय जालो तरी तो
भारतीय संस्कृतायेंत वाडिल्लो मनीस. एका लेखकाचीं फकांडां ताका
आवडलिंनात.
साकांत पुस्तकां आसात हें ताणें वळखल्लें. हे आदीं तो मुखेलमंत्री आसतना
जायते लेखक पुस्तकां विकतीं घे म्हूण असल्याच साकांनी घालून ताचेकडेन
गेल्ले.
'तुका पक्षाची तिकेट कित्याक जाय?' राणेन आपलें तोंड गंभीर करून
प्रस्न केलो.
'म्हाका मतदारसंघाची सेवा करूंक जाय.'
'खूक्', चर्चिल परत हांसलो.
'तुका सेवा करूंक कोणें आडायला? तिकेट नासतनाय करूं येता ती.'
रवी नायकाचो सल्लो.
'पूण लोकप्रतिनिधी म्हूण चड अधिकार मेळटात.'
'खूक् खूक्', चर्चिल पर्थून एकदां हांसलो.
'आयज वेंचणूक दुडू नासतना जायना. तुजेकडेन कितले आसात?' लुइझीन.
'पक्ष दितलो न्हय. ताचेर भागयतलों.'
चर्चिल पर्थून हांसलो. 'खूक् खूक् खूक्.'
'तुमी बोरोयणार हे भानगोडीन कित्या पोट्टाय रे?
बोरोयाय आनी गोंयचें नांव वोयर काडाय.'
इतलो वेळ ओगी आशिल्लो सार्दीन उलयलो.
'तूं खूब बरयता न्हय?' निर्मलाचो प्रस्न.
आयकून म्हाका बरें दिसलें. हांवें साक उगडलो.
रमेश चेन्नितला साकांत कितें आसा तें पळोवंक उठलो.
चर्चिलान ताका हाताक धरून सकयल बसयलो.
'कागदां तीं धोयीं. पांचवीं न्हू.'

चर्चिलाची कोंकणी चेन्नितलाक अचूक कळ्ळी. तो ओग्गी बसलो.
हांवें दिल्लीं पुस्तकां निर्मलान चाळ्ळीं.
थोडीं सुलोचनाताईन घेतलीं. दोन शिवराम आजगांवकारान.
हांवें एक एक रवी, लुइझीन, चर्चिल बी हांकां दिलीं.
कितेंतरी अपवित्र हातांत घेवचें तशीं तांणी तीं घेतलीं.
'चल तूं, पुस्तकां वाचून तुका कळयतां.'
सगळ्यांनी निर्णय दिलो आनी हांव साक घेवन भायर सरलों.
साकाचें थोडें वजन उणें जाल्लें तें पळोवन बरेंऽ दिसलें.
तिकेट म्हाकाच हाची म्हाका मनांतल्यान खात्री जाली.
घरा वतना बांबोळेच्यान या म्हळें.
कित्याक, तो वाठार म्हज्याच मतदारसंघांत पडटा.
वता आसतना मतदारसंघांतलो दौरो जावपाचो.
पूण वाटेंत म्हाका परतून परतून एक भास जातालो.
म्हजी ही मुलाखत हे आदीं कोणेंतरी घेतल्या.
पूण तें कशें शक्य आसा? सपनांत बी काय! आसूं येता.
अशेच तज्ञ लोक बसल्यात. तांचे मुखार हांव बसलां.
ते लोक म्हाका भलतेच प्रस्न करतात.
हांव फटाफट जापो दितां. च्ये! भास तो.
हांव गोंय विद्यापिठाकडेन पावलों. पूण. तकलेंतलो मुलाखतिचो विचार वचनाशिल्लो.
आनी म्हाका याद जाली.
आरेच्या! असली मुलाखत म्हजी गोंय विद्यापिठान घेतिल्ली.
कोंकणीच्या लेक्चरपदा खातीर.
गोंय विद्यापिठांत अशीच मुलाखत घेवंक कुलगुरू दुभाषी बशिल्लो.
जसो आयंज लुइझीन बशिल्लो.
निवड समितिचो अध्यक्ष म्हूण राणे बशिल्लो.
तसो ऑलिव्हीनबाब बशिल्लो. हेर वांगडी म्हूण काशिनाथ महाले,
पांडुरंग भांगी बी आशिल्ले आनी भायलो तज्ञ हांगा चेन्नितला आशिल्लो
तसो कोणतरी तलगिरी म्हूण आशिल्लो.
उमेदवार म्हूण त्या वेळार धायेक लोक आशिल्ले.
सगळ्यांत निमणो म्हाका आफोवन व्हेल्लो.
आयज जो साक घेवन गेल्लों तसोच त्याय वेळार हांवें व्हेल्लो.
तेंच सामान तातूंत आशिल्लें. हांव ते कुडींत भितर सरलों.
सगळ्यां सामकार एक खुर्ची आशिल्ली तिचेर हांव बसलों.
'तुमी कॉलेजांत शिकयतात. थंय कोंकणी पुस्तकां लायल्यांत
ते विशीं तुमचें मत कितें?' सगळ्यांत पयलीं म्हाका पद्माकर दुभाषीचो प्रस्न.
त्या प्रस्नान हांव धर्मसंकटांत सांपडिल्लों.
तीं पुस्तकां ऑलिवीनबाबान वेंचून काडिल्लीं. तीं वायट म्हळीं
जाल्यार तो म्हजी निवड करचोना. बरीं म्हळीं, जाल्यार
म्हजें साहित्यांतलें 'गिन्यान' सिद्ध जावपाचें.
हांवें सत्याचो पाखो घेवपाचें थारायलें.
त्या पुस्तकाचेर हांवें पंदरा मिनटां भाशण दिलें.
म्हजी नोकरी गेली हें तेन्नाच निश्चित जालें.
'तुका हांगा कितें शिकोवंक आवडटलें? भाशाशास्त्र काय समिक्षा?' भांगीबाबाचो प्रस्न.
भांगीबाब तर म्हजोच मनीस. म्हजो वावर पळोवन तो म्हजी तुस्त करपी.
जाली, म्हजी नोकरी पक्की. हांवें मनांत म्हळें.
'हांव समिक्षा करतां. तो म्हजे आवडिचो विशय. म्हाका समिक्षा शिकोवप आवडटलें.
तशें भाशाशास्त्र म्हाका आवडटा. हांव ताचेर पुस्तकूय बरयतां.
पूण तो विशय मात्सो किचकटिचो. पयलीं शिकून भुरग्यांमुखार वचूंक जाय.'
'पयलीं शिकतलो आनी मागीर वतलो? शिक्षकान सदांच तयार आसूंक जाय.' भांगीबाबान म्हळें.
म्हजी नोकरेची आस्त आनीक देंवली.
भांगीबाब इतल्यारूच रावलोना तर कोंकणीवादी कसलोच अभ्यास कशे करिनात हाचेर ताणें पोटभर भाशण दिलें.
'तुका भाशाशास्त्र आवडटा?' त्या कोणतरी तलगिरीन प्रस्न केलो.
'हय. म्हाका खूब आवडटा तो विशय.' हांवें जाता तितले नम्रतायेन जाप दिली.
ताच्या कोंकणी उलोवपांतल्यो व्याकरणी चुको काडपाची इत्सा जावनूय हांव नम्र रावलों.
'मागीर म्हाका एका भाशाशास्त्रीचें नांव सांग.'
'तुमकां खंयचे भाशेंतलो जाय?'
'कोंकणींतलो.'
'कोंकणींत कोणूच भाशाशास्त्री ना. तशे शणै गोंयबाबान, रवीन्द्रबाबान कांय लेख बरयल्यात.'
'तुमी कत्रेचें नांव आयकलां?'
'हय. एस्. एम्. कत्रे. तांणी द फॉर्मेशन ऑफ कोंकणी म्हूण एक इंग्लेज पुस्तक बरयलां.'
'तो कोंकणींतलो भाशाशास्त्री न्हय?'
'इंग्लेज पुस्तक बरोवन कोण कोंकणी भाशाशास्त्री जाता?'
म्हज्या प्रस्नान तलगिरीक राग आयलो.
'आमी ताका भाशाशास्त्री मानतात' अशें म्हूण तलगिरी ओगी जालो.
तो ओगी जाले बराबर महाले मुखार सरलो.
'तुमी १९८४ सालांत कोंकणीचे बाबतींत एक सनसनाटी बातमी छापून आयल्या ती वाचल्या?'
'तश्यो दिसपट्ट्यो जायत्यो बातम्यो येतात. खंयच्यो म्हूण याद दवरप?'
'तुमी बरयतात न्हय?'
'हय. तुमचेरूय हांवें बोरकारींत कितलें बरयलां.'
बोरकारीचीं कात्रणां आनी पुस्तकां दाखयत हांवें म्हळें.
म्हजीं पुस्तकां पळोवन तो ओगी बसलो.
'तुमकां कितें विचारूंक जाय?' दुभाषीन ऑलिवीनबाबाक विचारलें.
ताणें फकत ना म्हूण तकली हालयली.
'तुमी नेट परिक्षा पास केल्या?' दुभाषीचो म्हाका प्रस्न.
'हय, पयलेच खेपे जे लोक बशिल्ले तातूंत सात लोक पास जाल्ले.
तातुंतलो हांव एक.' हांवें हड्डें मुखार काडून म्हळें.
सगळ्या उमेदवारां मदीं हांवच ती परिक्षा पास जाल्लों.
ते बराबर इतलो वेळ ओग्गी देव कसो बशिल्लो ऑलिवीनबाब उसळ्ळो.
'फटी मारता, फटी मारता. तूं कसो पास जातलो?'
तो तशें म्हणटा जाल्यार म्हाकाय खरेंच दिसलें.
हांवें दाखलो भायर काडिल्लो तो भितर घालो.
साक उखल्लो आनी घरा आयलों.
आतांय हांव तोच साक घेवन घरा पावलों.
गांवांत फोगेट्यांचो गडगड.
कोणतरी सिल्वेरा म्हणटात ताका तिकेट दिल्ली.
ते खातीर ताणें दुडू मेजिल्ले खंय.

* * *

# उजैनिचो घोडेकार

□ आर. एस. भास्कर

उज्जैनिचो घोडेकार
सौम्य मनीस
सदां हांसकुरो
सुटसुटीत उलोवपी.

उजैनिचो घोडेकार
हातांत केन्ना चाबूक घेता
चाबूक पूण –
हाताळूंक ना.
उजैनिचो घोडेकार
सौम्य मनीस,

हातांत तुज्या चाबूक मरे –
घोड्याक पूण मारपाक ना ?
विचार म्हजो मांडलो तेन्ना
सुटसुटीत तो उलोवंक लागलो :

खरें सायबा –
घोड्याक हांवें मारपाक ना.
घोडो म्हजो सांगल्यार समजुपी
मागीर ताचेर दंड कित्याक ?
शारांतलो एकएक कोनसो
घोड्याक म्हज्या वळखिचो.
गांवच्या एकएक यात्र्याकय
घोडो म्हजो वळखता.
कोणाक केन्ना खंय पावंका
रोखडोच तो जाणा मू !
तुमी सायबा पूण परदेसी
घोड्याक म्हज्या अनवळखी –
एकमेकांक आमी उलयतात
आनी घोडो पुराय आयकता.
खंयच्या थाळार पावंका म्हूण
घोड्याक देखून समजाता.
क्षिप्रा न्हयचें तट जावो
महाकालेश्वर देवळ जावो
विक्रम मंदीर वा वेदशाळा
ना जाल्यार जंतर-मंतर
घोड्याक म्हज्या चुकचना
रोखरोखडींच तुमी पावंताय कांय ना ?
घोड्याक कित्याक मारचें हांवें
चाबूक कित्याक हालोवंका हांवें ?

घोड्याक तुवें मारपाक ना
तरीय हातांत चाबूक जाय ?
कुवाडें हांवें उडयलें तेन्ना
सादुरकायेन तो उलोवंक लागलो :
हांव सायबा सांगूं –
चाबूक कित्याक घेता म्हूण.
हांव सदांचो घोडेकार
अख्ख्या शारांत यात्र्यांक पावोवंपी
थोगड्या वेळा पावतां जाणा –
सोऱ्या गादिच्या सामकार
थोगड्या वेळा पावतां –
शिंदाळण्यांच्या वाड्या सामकार.
पोजडे विचार दिसतात तेन्ना
चाबूक माका परत यादींत हाडता –
हांव घोडेकार म्हूण
माका घर आसा म्हूण
बायल आसा म्हूण
भुरगीं आसात म्हूण.
सोरो घेवपाचें न्हय म्हूण
चडयांकडे वचपाचें न्हय म्हूण
हांव घोड्याक चलोवंचो म्हूण
हांव घर चलोवंचो म्हूण
हांव सायबा –
देखून घेतां चाबूक.

आनी आतां सांगतां सायबा –
चाबकाकडेचें म्हजें नातें कशें !
सकाळीं भायर सरच्या वेळा
चाबूक तें माका काडून दिता.
सांजे खोप्यांत पावच्या वेळा
माये मोगान घेवन दवरता.
अशें सायबा सवंय आमची
रस्तो देखून ना चुकपाची.

उज्जैनिचो घोडेकार
सौम्य मनीस,
उज्जेनिचो घोडेकार
नेमान चलपी.

# सदिच्छा : तीन स्नॅपशॉटस्

□ परेश नरेंद्र कामत

१.

म्हगेलें देड वर्साचें गोरें-गोमटें चली
सदिच्छा
दूद पियेतना म्हजेकडें पळेत
मुमुर्ख्यांनी हांसता... हांसत रावता
आनी हांव
इल्लो इल्लो करून
दुदांत
साकरी भशेन
लागतां विरगळपाक;
विरगळपाक...

दुदावरी दिसपी
भोंवतणचें किरांव जग
खतखतत,
कड येवन लागता
ओतपाक.

२.

तांदूळ वेंचतना
बायल म्हणटा :
'कविता-बिविता बरयल्यो नात
जाल्यार खंयचें जग बुडटा ?'

हांव कांय म्हणना
हांव फकत आयकतां
सदिच्छाक पळेतां...

दोळ्यांतल्या दोळ्यांत
हांव वाचूंक सोदतां हारशेल्लो
अख्खो संवसार – आरपार...

दोळे धांपून हांव
मनांतल्या मनांत
अणभवपाक
सोदतां
भोंवतणचें सगळें जग.
जिवें-तट्टटीत,
हुनहुनीत रक्तामांसाची
झांक आशिल्लें जग;
जशें आसा तशें...
– निश्पाप, निरागस
उदकाळ दोळ्यांनीं बाबडें
सदिच्छा कुशींत येत फुलपाख्यावरी
आमकां दोगांकय सांसपीत रावता.
एका
साप वेगळ्याच
लक्तुबायेच्या अपरूप संवसारांत
हांव अचळयां खोल
बुडी मारतां...
खरायेक हात लावन
वयर येतां;
धादोस धादोस जातां...

३.

निकतेंच – लुडब्यांनी, पुणून सभाविकपणान
उलोवंक लागिल्लें
सदिच्छा म्हणटा :
पप्पाऽ... पऽप्पाऽऽ...
भुरगो जावन हिंदी फिल्मी पदाचे चालीर
हांव म्हणटां :
लारिलप्पाऽ... लारिलप्पाऽ...
तुकाराम म्हणटा :
अंतरिचे धावे
स्वभावे बाहेरी
धरू जाता परी
आवरेना।
––– कुशीक पांडुरंग गालांतल्या गालांत हांसता...

# बाजार

□ काशिनाथ शांबा लोलयेकार

नुस्त्याची तडफड आतां थांबल्या
नुस्तेकान्निच्या पाटल्यांत तीं पडून आसात सध्या
उकत्या दोळ्यांनी
मार्केटांत प्लास्टिकच्यो पोतयो घेवन विकत भोंवपी
त्या ल्हान भुरग्यांक पळयत शेकानशेक

पळय, भरला शुक्रारचो बाजार खच्चून
विकपी आनी विकत घेवपी इतलोच ह्या बाजाराचो अर्थ?
बाजाराचे गर्देंत भोंवपाक म्हाका जिवार येता
पूण हांव मनीसघाणो न्हूं

हांव जाणां, ह्या जगांत बकरो जितलो असहाय्य आसा
तितलोच असहाय्य आसा कसाई
दोगांयचें दुख्ख हांव काळजांत भरून घेतां
आनी बरयतां कविता
आनीक हांव कांयच करूंक शकना
इतलो हांव असहाय्य आसां

म्हाका शिसारी मारता नुस्तेकान्निच्या उकत्या थानांची
तरीय अजून जियेवपाची उमेद म्हाका उरल्या
हांव पणसाची किंमत विचारिना
फकत हात भोंवड्टां पणसाच्या कांट्यांचेर लक्तुबायेन
म्हाका पळोवन उडकी मारता बटाट
आनी टमाट म्हाका किस करपाक सोदता
हांव पळयतां एक सफरचंद भर म्हापशेंच्या बाजारांत
न्यूटनाक उलो मारपी

निमाणें, मर्ण म्हणजे तरी कितें?
अख्ख्या कांद्याचीं अख्खीं कल्लां काडून
जें उरता
तें.

# चंद्रीम हांसत गेलो

□ प्रभाकर नाडकर्णी

१. वात जळत रावली श्वास हांसत गेलो
मोनेळ मोग मोगी चंद्रीम हांसत गेलो

२. मळबांत रातीचान्नें काळखांत भरवंसो
दिलासो दितां घेतां कळाव त्रासत गेलो

३. गजाल सांगू कशी मनां कशीं लजिल्लीं ती
सुखदिणी हुरहूर भरम भासत गेलो

४. मोगा वाठारांतलो असोय मोनेळ वावर
नवें जिणें रतिरंगी रंग फासत गेलो

५. भास दोन चंद्रीमांचो पर्जळ्ळो सामखार
नदरेनच जापडलो दुरावो नासत गेलो

६. रात सरत आयली सटकली आळसायी
रसमी गांठीचो जाळ कुडी लासत गेलो

७. पाल जशी चुकचुकली पारवो फडफडलो
गोपांतलो हुंकाराचो गाज उप्रासत गेलो

८. पयलीच ही आज रात जुगुल जिवांचो मेळ
जडण-घडण चोयत चंद्रीम हांसत गेलो.

# कावळ्याचें श्राद्ध

□ अरूण साखरदांडे

कावळिणीन पुताक विचारलें
आरे,
बापायचें श्राद्ध करिना ?
कावळ्याच्या पुतान म्हळें
बापायन म्हजेखातीर कितें केलां ?
कावळिणीन म्हळें
बापायन तुजेखातीर
कांयच करूंक ना आसत
पूण तुका जल्म तरी दिला मरे ?

कावळ्याच्या पुतान रागान
दोन-तीनदां तकली आपटिली
आनी कावळेभटागेर गेलो
कावळेभटान तीथ काडून दिली.

कावळ्याच्या पुतान श्राद्धाची
सगळी तयारी केली
श्राद्धा दिसा दोन-चार सोयरेय आयले
कावळेभटान धर्माप्रमाण सगळें
यथासांग केलें
कावळ्याच्या पुतान पिंड व्हरून
देवळालागसारच्या झाडामुळा दवरलो

देवळाच्या पारार बशिल्लो
अर्द पिसो भिकारी धांवत
येवन पिंड खावंक लागलो
'मनीस आफुडलो, मनीस आफुडलो'
कावळ्याचो एक सोयरो आड्‌डलो
कावळिणिचे दोळे ओले जाले
दुकां आयलीं
तांतुंतलीं दोन दुकां झाडामुळांत
पडलीं
आनी सुके मातयेंत जिरून गेलीं.

# एकविसावो शेंकडो

□ सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

तुमी सांगतात,
रोखडेच आमी आतां
एकविसाव्या शेंकड्यांत
वचपाचे जाले!

पूण सभाग्यांनो!
अशे कितलेशेच शेंकडे,
आयले आनी गेले,
आमकां कांयच फरक
पडलो ना.

आमचे दीस, म्हयने, वर्सां
आनी शेंकी शेंकडे
वण्टीर लायिल्ल्या
कॅलेंडराच्या पानांभशेन
एकाफाटल्यान एक अशे
बदलत गेले.

आनी आमी मात
अजुनय तशेच आसात
चिड्‌डल्ले आनी माड्‌डल्ले.

एकविसाव्या शेंकड्यांत तरी
हें बदलत अशी आस्त
तुमचेकडल्यान आमी
बाळगुची ?

# कयपंजी

□ मनोज नरेंद्र कामत

मंद मोग जागयता उजवाडून पेट्टना
धग घेवन जरी
पेटोवन वात रावन काळखांत

तीच हडवी-पांचवी वात
दिता तुजी याद
उम्याच्या सादार हालपी ती
थीर जाय मेरेन काळजाच्या धडधड्यांचो
शेणत वचपी साद

हीच कयपंजी तुज्या बलिदानाची पावती
नव्या जिवाची स्फूर्त
देखता तुजी मंद मूर्त
अंधूक उजवाडांत फुलोवपी
उजवाड-सूर्य

त्या दिसा रातभर
कयपंजी पेटत राविल्ली
रात जागयत राविल्ली आनी
तूं कूस परतीत राविल्ली
पुनर्जल्माची याद काडीत.

# चवथो कोनसो घराचो

□ राजय रमेश पवार

दरेकल्यान हांगा
घोव-बायल-भुरगीं
हांचेच त्रिकोन रचल्यात
आनी घरांतल्या जाणट्यांक
चवथ्या कोनशाक उडयल्यात

खरें घर त्रिकोनी न्हय –
तें चवकोनी आसता
पूण... आतां
त्रिकोनी घरां रचपाची कला
जायत्या जाणांक जमपाक लागल्या.

तुमी चवथ्या कोनशाक उडयिल्ले
सगळे जाणटेले, दियात म्हाका
हांव व्हरतां तांकां
पूण, एक सांगतां...
... तुमच्या भुरग्यांक
न्हीद पडचिना
तेन्ना मात, ह्या जाणट्यांक
सोदूंक येनाकात म्हजेकडेन
हांव एकल्याकूय
तुमचे सुवादीन करचों ना.

त्यां जाणट्यांचें
कितें करतलो म्हण विचारता?
हांव तांकां
चिरे कशे दाळटलों
एकाचेर एक
आनी उबारतलों
एक व्हडलो वृद्धाश्रम!
कित्याखातीर?
तुमचींय भुरगीं
त्रिकोनी घरां रचतलीं
तेन्ना
तुमकां येवन रावचेखातीर.

# थिकां

□ नूतन विठ्ठल नाडकर्णी

दर्या सायबा,
तूं इतलो कसो खार?
कोणें दिल्या तुका ती
दुकांची धार?

✲ ✲

हांवें तुजेर मोग केला
दोळ्यांर बांदून पट्टी
तुज्या बापायक तांकता मू
घालूंक गोंट दोट्टी?

✲ ✲

तुवें म्हाका उतर दिलें
सांगात दितां म्हण जल्माचो
चार दिसांतच उतर तोडलें
सांगात सोडलो सासणाचो.

✲ ✲

दिल्ल्या मापान घेवंचें पडटा
अशें आदीं म्हणटाले
पूण आतां दितल्यान दीत रावचें
आनी घेतल्यान घेत.

# कोंकणीच्या दिश्टाव्यान म्हाका घडयला




नागेश करमली

कोंकणीचो उलो, वेगवेगळ्या जाणांनी वेगवेगळ्या तरांनी आयकला. आदले पिळगेंतल्या बऱ्याचशा जाणांक, शणै गोंयबाबांले बरपावळीन कोंकणीच्या बळग्याचो दिश्टावो घडयला. कांय जाणांक, तांच्यांतले जातकच स्वाभिमानी वृत्तीन कोंकणीकडेन ओडून हाडल्यात. आनी, फाटल्या पंदरा वर्सांच्या काळांत, कोंकणीचो विचार एके चळवळिचें रूप घेत गेला, तेन्नाच्यान बरेचशे जाण हे चळवळींतल्यानच कोंकणीकडेन आयल्यात. हातूंत हांव खंय बसतां हाचो हांव इतल्या वर्सां उपरांत विचार करतां, तेन्ना म्हजे म्हाकाच सगळें एके तरेचें अजापच कशें दिसूंक लागता. कारण —

म्हजें मुळावें शिकप मराठींतल्यान जाल्लें. म्हळ्यार, जी कितें परंपरा चलत आयिल्ली तेच परंपरेचे वाटेवयल्यान हांवय चलत गेल्लों. गोंयांत राज्य पुर्तुगेज भाशेंत चलतालें. कोंकणीचो उपेग जातालो तो फकत उलोवपाची भास म्हणून – लोकवेव्हारापुरतो. ज्यो कितें शाळा वा सरकारी इश्कोलां चलतालीं तीं एक तर मराठी वा पुर्तुगेज शिकोवपी. परंपरे प्रमाण हिंदू समाजांतलीं भुरगीं मराठी शाळांनी वतालीं आनी खिश्चन समाजांतलीं भुरगीं पुर्तुगेज इश्कोलांनी वतालीं. बरोवपांत वाचपांत कोंकणी खंयच दिसनासली. ना म्हळ्यार, खिश्चन समाजांतले बरेचशे लोक पुर्तुगेज शिक्षणाक लागून जी रोमी लिपी शिकताले, ती वापरून कोंकणीचो उपेग चिटयो बी बरोवपाक करताले. रोमी लिपयेंतल्यान छापून येवपी नेमाळींय ते वाचताले. हिंदू समाजांतले लोक काल्या-जात्रांनी मराठी नाटकां करताले. गोंया भायल्यान येवपी मराठी नाटकां पळोवंकय गर्दी करताले. मराठी नेमाळीं वाचताले. खिश्चन समाजांतले लोक कोंकणी तियात्र करताले. मराठी नाटकां जातालीं थंय खिश्चन समाजांतलो कोण झळकनासलो आनी तियात्राच्या माटवांत हिंदू समाज दिसनासलो. म्हळ्यार, एका गोंयांत दोन गोंयां. एक हिंदूंचें आनी दुसरें खिश्चनांचें. सगळ्यांच्या ओंठार भास मात एकच – कोंकणी. खिश्चन समाज जे पद्धतीन कोंकणीचो उपेग करतालो ताका हिंदू तशेच खिश्चनय 'कोंकानी' म्हणटाले. 'कोंकणी' ती हिंदूंची. पूण तिका बरोवपा-वाचपांत प्रतिश्ठा नासली. कोंकणी विशिंचें हें म्हज्या भुरगेपणांतलें चित्र. म्हळ्यार साधारण १९४०-४५तलें.

म्हजें भुरगेपण ज्या केपें गांवांत गेलें थंय तेन्ना मेरेन तरी शणै गोंयबाब, कोंकणी बरपावळ, भाशावाद ह्यो गजाली पावंक नासल्यो. आनी, कांय जाणां मेरेन त्यो पाविल्ल्योय जाल्यार म्हजे सारक्या धा-बारा वर्सांच्या भुरग्याक तांची नात नासली. घरांतय ते विशीं केन्ना कांय एक आयकूंक मेळनासलें. एक कारण म्हळ्यार, आमच्या परिवाराक साहित्य, बरपावळ, पुस्तकां असलें कितेंच लागना आसलें. शिकपय तितलें पुरतेंच. वेपार धंद्याक पुरो जाता तितलेंच. म्हजो बापूय आनी बापोलयो पसरे चलोवपी पसरकार. पसऱ्यांच्या कामापुरतो हिशोब बी सांबाळपाक आयल्यार पुरो ही त्या वेळाची वृत्ती. म्हजो एक धाकलो बापोलयो पुर्तुगेज सेगुंद ग्राव मेरेन शिकिल्लो. त्या काळार आमच्या परिवारांतलो तोच पयलो वयलो, तेन्नाच्या काळांत 'चडांत चड' म्हणटात तसो शिकिल्लो मनीस. (पूण तोय बी शेकीं पसरकारच जालो!) सांगपाचें म्हळ्यार, म्हजी फाटभूंय ही अशी. पूण कशें कोण जाणा, म्हज्यांत एके तरेची, कसलीय गजाल 'जाणा जावन' घेवपाची, जांच्यो जापो आपसूक मेळनात थंय 'प्रश्न विचारपाची' वृत्ती ल्हव ल्हव आकार घेताली. म्हाका दिसता, हे वृत्तिनच म्हाका जिवितांतल्यो फुडल्यो कांय गजाली शिकपाची तांक दिली. कोंकणीचो दिश्टावो हो हाचोच एक भाग.

आमच्या गांवांत इंत्रुजाच्या (म्हळ्यार कार्नवालाच्या) दिसांनी खेळ जाताले. खेळ करपी धा-पंदरा जाणांचो मेळो आसतालो. तातूंत सवंगी कलाकार तशेच मुज्गकार आसताले. मेळो वा मेळे गांवांगांवांनी भोंवन कोणाल्याय घरामुखार वा खंयच्याय धा जाणांच्या मांडार खेळ करून दाखयताले. खेळाच्यो वेगवेगळ्यो पार्ती म्हळ्यार कथाभाग आसताले. हे खेळ बसोवपी आनी करून दाखोवपी खिश्चन समाजांतलेच लोक आसताले. खेळाची भास कोंकणी. म्हळ्यार, तेन्नाचे परिभाशेंत 'कोंकानी'. संवाद आनी कांतारां आशिल्ल्या ह्या खेळांनी भरपूर विनोद आसतालो. लोकांची तातूंत उपाट मनरिजवण जाताली. भुरगेपणांत हे खेळ हांव मोटे आवडीन पळयतालों आनी हे खातीर खंयय खेळ आयलो वा खेळाचें मुज्ग कानार पडलें जाल्यार धांव मारतालों. कांय खेळांनी आमचे वळखिचेय सवंगी आसताले. लोक हे खेळ पळोवपाक घिट्टी करताले. अभ्यासाक दांडी मारून हांव हे खेळ पळोवपाक वतां म्हणून म्हाका जायते खेपो घरचीं ज्लोवणींय खावचीं पडटालीं. (एक-दोनदां लडेय खांवचे पडल्यात.) पूण हांव खेळ पळोवपाचें सोडिनासलों.

आमचेकडेन (केपेंच्या वाठारांत) तरी, हिंदू समाजांत खिश्चनां सारके खेळ नासले. इंत्रुजा उपरांत शिगमो येतालो. तातूंत शिगम्यामेळ नाचताले. पूण त्या मेळांनी इंत्रुजांच्या खेळांची मजा नासताली. शिगम्याचे मेळ म्हळ्यार तातुंतलीं धोल-ताशांसारकीं पारंपारीक वाद्यां आनी पदां. पूण एका वर्सा भांबा मडगांवकार ह्या गांवच्या एका मनशान कांय भुरग्यांक एकठांय हाडून एक रोमट तयार केलें. कृष्ण, पेंदो, राधा हांचेच भोंवतणी गुंथिल्ली काणी घेवन बसयिल्लो एक खेळ रोमटांत आसलो. तांतले संवाद आनी पदां मराठींत आसलीं. संवाद आनी पदां म्हणप्यांनी तीं घोळोवन घोळोवन पाठ केल्लीं. कारण कृष्ण, पेंदो बी जाल्ल्यांक हांव वळखतालों. तांकां मराठी येनाशिल्ली. बऱ्याचशा जाणांनी तर शाळेचें तोंडय पळोवंक नासलें. अशें हें रोमट आनी तांचो खेळ हांवें पळयलो तेन्ना (ते पिरायेरय) हें सगळें अडेचें कशें म्हाका दिसलें. धा-बारा वर्सांची पिराय आसुनय, खेळ आनी रोमट हांची तुलना मनांतल्या मनांत सुरू जाली. खेळांतलीं फकाणां, संवाद, कांतारां हातूंत जें सहजपण आसलें तें रोमटा खेळांत नासलें. खेरीज, खेळांतले सवंगी सगळेकडेन सगळो वेळ कोंकणीच उलयताले आनी रोमटांतले गडे, खेळ करून दाखयता तेन्ना तितलेपुरतेच मराठी वापरताले आनी हेर सगळो वेव्हार कोंकणींतल्यान चलतालो. खेळाभायर एकामेकांचीं फकाणां कोंकणींतल्यान करताले. रागाफुगार कोंकणींतल्यान जाताले. म्हाका हें विचित्र दिसतालें. म्हाका पडिल्लो प्रश्न हांवें आमचो एक शेजारी – जो चार गांव भोंवन आयिल्लो – ताका विचारलो. हांवें म्हळें, ''हो रोमटां मेळ खिश्चन करतात ते तरेन आमचेच भाशेन केल्यार अदीक मजा येवपाची न्हय?''

शेजाऱ्यान जाप दिली, ''शेः शेः, खिश्चनांचें तें वेगळें. ते करतात म्हणून आमी करूंक जायना. आमची कोंकणी भास ही फकत उलोवपाची, ती बरोवपाची वा खेळ करपाची भास न्हय. शिवाय कृष्ण, पेंदो बी नाटकांनी मराठीच उलयतात. रोमटांखेळ जालो म्हण कितें जालें? तांणी आमगेली भास उलयल्यार सोबता?''

शेजाऱ्याक म्हाका परतून जाप दिवंक आयलिना. पूण म्हज्यांतलो प्रश्नकार मात ओगी पडलो ना. कांय दिसांनी, आमगेर येवपी-वचपी एकल्याक – जो खूब पुस्तकां बी वाचतालो – ताका हांवें म्हजो प्रश्न विचारलो. ''खिचन इंत्रुजाक खेळ कोंकणींत करतात. मागीर रोमटांमेळांतले खेळय कोंकणींत

कित्याक करूंक जायनात ?''

म्हाका जाप मेळ्ळी ती अशी: ''खिरश्चनांक आनीक खंयचीच भास, चड करून मराठी बी कळना म्हणून ते आपूण उलयतात तेच भाशेंत, पुर्तुगेज अक्षरांनी बरोवन खेळ करतात. तसलें येंगाडीपण आमकां (म्हळ्यार हिंदूंक) सोबना. आमी मराठींतच खेळ बी करपाचे. बरें, कोंकणींत म्हूण बरोवं येता ? तिका लिपी खंय आसा ? कोंकणी ही फकत उलोवपाची भास....''

जाप आयकून ओगीच रावलों. प्रतिजाप दिवंक जमलें ना. दुसरी गजाल म्हळ्यार, कोंकणींत बरोवपाचो प्रश्न. तो वेळ मेरेन, बरयिल्ली कोंकणी (म्हळ्यार नागरींतली) म्हाका वाचूंक मेळूंनासली. खिरश्चन 'पुर्तुगेज अक्षरांनी' म्हळ्यार रोमींत 'कोंकानी' बरयतात, तातूंतल्यान पत्रां म्हळ्यार नेमाळीं येतात तें हांवें पळेल्लें. पूण रोमींतली कोंकणी म्हाका वाचूंक जमनासली. ते भायर, तें बरोवप कितें तरी वेगळेंच अशेंय मनाक दिसतालें.

साधारण ह्याच काळार म्हज्यांत वाचनाची आवड निर्माण जाली. ते आदीं मुंबय-पुणेच्यान येवपी मराठी वर्तमानपत्रां केन्नाय वाचूंक मेळटालीं. दुसऱ्या म्हा-झुजाच्या दिसांनी, एकाद्रें वर्तमानपत्र आमगेल्या दुकानार (म्हळ्यार म्हगेल्या बापायलो पसरो आनी च्याचें दुकान) मुजरत हाडटाले. दुकानार येवपी लोक तें वाचताले. सांजवेळा मागीर सगळे बसून त्या वर्तमानपत्रांतल्या खबरांचेर – चड करून झुजा खबरांचेर, चर्चा बी करताले. हांव तें सगळें आयकतालों. हांवय वर्तमानपत्रांतल्यो खबरो वाचून काडटालों. ताका लागून मराठी सडसडीत वाचपाची संवय जाली. मात वाचपाक जाय तशीं पुस्तकां मेळनासलीं. गांवांत एक वाचनालय आसलें तें म्हळ्यार बालोन्नती समाजाचें वाचनमंदिर. पूण थंय मेरेन वचून पुस्तकां हाडप म्हाका तेन्ना शक्य जायनासलें. ते खातीर अशींच कोणें तरी दिल्लीं पुस्तकांच अदीं मदीं वाचून काडटालों. केन्ना केन्नाय आमच्या पसऱ्यार कांय जाण रद्दी विकूंक हाडटाले. तातूंत कांय बरीं बरीं मासिकां – चड करून 'किर्लोस्कर', 'चित्रमय जगत' बी – आसतालीं. तीं हांव कुशीक काडून दवरतालों आनी वाचतालों. आमच्या शेजरा म्हाबळू गांवस नांवाचो, शेळडें गांवचो एक भाटकार रावतालो. ताचेकडेन खूब नेमाळीं, मासिकां बी येतालीं. रद्दे हिशेबान तीं आमकां मेळटालीं. तांचो वाचनाखातीर म्हाका उपेग जातालो. असलेच एके रद्देचे पोटलेंत म्हाका एक दीस एका मासिकाचो एक अंक मेळ्ळो. चड करून 'भारत मित्र' जावंये. तातूंत, चक्क कोंकणींत बरयिल्लो एक लेख आसलो. लेखाचो माथाळो आसलो 'आमी वाऱ्याक वेतात.' बरोवप्याचें नांव याद जायना. पूण पयलेच फावट, हांव जे लिपयेंत मराठी वाचतालों तेच लिपयेंत छापिल्लो कोंकणी भाशेंतलो लेख पळयतालों. हांव एकदम अजापीत जालों. मनांत म्हळें, कोंकणीक लिपी ना म्हणटात. पूण ती तर बरोवंक जाता आनी मासिकांत छापिल्लो लेख हांव चक्क बरो दोळ्यांनी पळयतां. हांवें तो लेख वाचलो. कोंकणींत बरयिल्लें वाचपाची संवय नाशिल्ल्यान ल्हव ल्हव वाचचो पडलो. वाचून खूब हांसूंक आयलें. कारण तो विनोदी शैलींतलो लेख आसलो. हांवें तो लेख कोंकणी फकत उलोवपाचीच भास म्हणपी म्हज्या शेजाऱ्याक दाखयलो आनी म्हळें, 'हो पळे आमचे भाशेंत छापून आयिल्लो लेख.'

'असलें फकाणांनी म्हूणन कोणूय केन्नाय बरयतात आनी छापतात. ताका अर्थ ना.' शेजाऱ्यान जाप दिली आनी हांव ओगी पडलों. कारण, लेखांतय फकाणांचीच भास बरयिल्ली. तरी पूण मराठी बरयतात तशीच कोंकणीय बरोवं येता म्हणपाचो विचार मनांत घट घर करून उरलो.

हांव णव-धा वर्सांचो आसलों तेन्ना सरकारी मुळावे शाळेचे मराठी-पुर्तुगेज शिक्षक म्हूणन बाकीबाब बोरकार केप्यां आयिल्ले. तांचे लागीं हांव दोन वर्सां शिकिल्लों. मराठी चौथी आनी पुर्तुगेज तिसरी (प्रिमैर ग्राव) हांव बाकीबाबांल्याच वर्गांतल्यान पास जाल्लों. बाकीबाबांक एक कवी आनी बरोवपी - विशेशतायेन मराठी कवी म्हूणन सगळे वळखताले. एक नांवाजतो कवी म्हणून बाकीबाबांक जायते जाण मेळूंक येताले. बाकीबाब जे शाळेचे शिक्षक ती शाळा – इश्कोल – आमच्या दुकाना सामकारच आशिल्ल्यान, खूब फावटीं बाकीबाब आनी तांकां मेळूंक येवप्यांची बैठक आमच्याच दुकानांत जमताली. बाकीबाब उलोवंक लागले म्हणटकीच बाकिचे सगळे ओगी रावन आयकताले. केन्ना केन्नाय ते आपणाली एकाद्री कविताय म्हूणन दाखयताले. आमचें दुकान आनी घर एकच आशिल्ल्यान बाकीबाब आनी तांच्या सांगात्यांलीं उलोवणीं म्हाका सोंपेपणान लागिंच्यान आयकूंक मेळटालीं. अशेच एके बैठकी वेळार – हेर कोण ते याद जायनात – बाकीबाबांलो आनी दुसऱ्यांलो कोंकणी-मराठी संबंदांत वाद चलिल्लो ताचो म्हाका उगडास जाता. वर्स साधारण १९४६ची सुरवात आसुंये. बाकीबाब सामके नेटान कोंकणीची बाजू मांडटाले. ते उलयता आसतना बऱ्याच फावटीं तांच्या उलोवण्यांत काकासायब कालेलकार, वालावलीकार (म्हळ्यार शणै गोंयबाब) हीं नांवां परत-परत येतालीं तीं हांवें आयकल्लीं. त्या वेळार मनांतली कोंकणीविशिंची उत्सुकताय अदिकच वाडली. म्हज्यांतलो प्रश्नकार अदिकच जाग्रुत जालो. ते उपरांत, केन्ना तरी खुद्द बाकीबाबांक मेळून ते कोंकणी विशीं कितें सांगतात तें आयकुंचें अशें दिसतालें. पूण बाकीबाबां सारके म्हजो शिक्षक जावन गेल्ले व्यक्तीक, म्हजे सारक्या भुरगे पिरायेच्याक कितेंय विचारपाचो धीरच जालोना.

अदींमदीं, आमगेर येवप्यांमदीं, कोणय पुस्तकां बी वाचपी – आतांचे भाशेंत, साहित्यांत रूच दाखोवपी – मेळ्ळ्यार हांव ताका म्हाका पडिल्ल्या प्रश्नाच्यो जापो विचारतालों. जापो सारक्यो मेळटाल्योच अशें ना. रिवणचे दत्ता बुकी देसाय हे अदींमदीं केन्नाय केपेंच्या 'भारत' साताळ्यांत ल्हान ल्हान लेख बरयताले. ते जायते फावटीं आमगेर पावताले. ते हांवें कितेंय विचारल्यार बरे भाशेन म्हाका समजावन सांगताले. एक दीस तांकां हांवें म्हजे प्रश्न विचारले. तांणी म्हाका काका कालेलकार हो भारतांतलो एक व्हड विद्वान मनीस, तो एक व्हड लेखक म्हणपाचें सांगलें आनी तो कोंकणीचो पाखो घेवपी विद्वान म्हणपाचें सांगलें. वालावलीकार नांवाचो एक गोंयकार मुंबय आसता. शणै गोंयबाब ह्या नांवान ताणें कांय कोंकणी पुस्तकां बरयल्यांत आनी कोंकणी ही बरोवपाची एक वेगळी भास म्हणपाचें मत मांडलां म्हणपाचेंय दत्ताबाबान म्हाका सांगलें. ते भायर पणजे राणू नायक नांवाचो एक विद्वान आसा, ताचींय कांय कोंकणी नाटकुलीं आसात म्हणपाचेंय म्हाका दत्ताबाबाकडल्यान कळ्ळें. ही सगळी माहिती आयकून कोंकणी विशीं आनीक जाणून घेवपाची म्हजी उमेद वाडली. शणै गोंयबाबान कोंकणी पुस्तकां बरयल्यांत तीं पळोवपाची आनी वाचपाची तर उमळशिकच लागली.

अशेच कांय दीस गेले. आनी एक दीस हाव बालोन्नति समाजाच्या वाचनमंदिरांत पावलों. थंय चडशीं मराठीच पुस्तकां आसलीं. तीं हाडून हांव वाचूंक लागलों. वाचनाची भूक भागोवपाचो मार्ग मेकळो जाल्लो. आनी एक दीस, वाचनमंदिरांत पुस्तकां सोदतां सोदतां, एके आल्मारेंत म्हाका शणै गोंयबाबांलें 'कोंकणी भाशेचें जैत' आनी 'गोंयकारांली गोंयाभायली वसणूक' हीं पुस्तकां दिश्टी पडलीं. पयलेच खेपे अशे तरेचीं कोंकणी पुस्तकां हांव पळयतालों. हांव दोनूय पुस्तकां घेवन घरा आयलों आनी वाचूंक लागलों. बरयिल्लें कोंकणी वाचपाची आदली संवय नाशिल्ल्यान सुवेसुवेंक सडसडीत वाचप जमना जालें. पूण ल्हव ल्हव संवय जाली. 'कोंकणी भाशेचें जैत' एक न्हय तर दोन खेपे वाचलें आनी हांव कोंकणी विशिंच्या ज्या प्रश्नांच्यो जापो सोदतालों त्यो म्हाका मेळ्ळ्यो. खिरश्चनांची ती 'कोंकानी', हिंदूंची ती 'कोंकणी' असले तरेचे जे मनांत गोंदळ आसले ते एकदम पयस जाले. 'जैता' उपरांत ल्हव ल्हव करून हांवें 'वसणूक'य वाचून काडली आनी ज्या दिश्टाव्या खातीर हांव तळमळटालों, ताचो लख्ख उजवाड म्हाका दिसलो. म्हज्या कोंकणीपणाची वळख म्हाका मेळ्ळी आनी पंदरा सोळा वर्सांचे पिरायेर, अंवती भोंवती कोणच वाट दाखयतलो नासतना, कोंकणीच्या उल्यान हक्कान म्हणटात तसो म्हज्या अंतस्करणाचो पुराय ताबो घेतलो.

(चलता)

# ‘मुडयेपोंदा’चे निमतान

**माधव बोरकार**



‘मुडयेपोंदा’ हो पोब्र फेर्नांदीश हागेलो पयलोच कविता संग्रह. पयलेपणाच्यो जायत्यो कुरवो तागेल्या ह्या संग्रहांतल्या बऱ्याच कवितांनी दिसतात. तें सभाविकूय आसा. हें पयलेंपण, भाशेचो वापर, छंदाची केळवण आनी आशयाची मांडावळ ह्या गजालिंनी दिसून येता. पोब्राल्यो कविता वाचतना ताका वास्तवाचें भान आसा म्हणपाचें जाणवता. हें वास्तव आर्थीक आनी सामाजीक आसा. जे परिस्थितींत कवी जियेला ताचें पडबिंब पोब्राले कवितेंत पडिल्लें दिसता. मनशाच्या अतिशाणेपणान ताची गत कितें केल्या तें कवी ‘शाणेपण’ हे कवितेंत सांगता. मनशाच्या कुड्ड्या सुवार्थान आमच्या सैमाक आयिल्ली अवकळा हो हे कवितेचो विशय. तर ‘बुदवंतानो’ हे कवितेंत गोंयचे समाजव्यवस्थेचें रंग उडिल्लें चित्र तो काडटा.

*गोंयच्या म्हज्या बुदवंतानो*
*केन्ना तुमकां येतली बुद्द ?*
*गोंयची जनता दुखल्या तरूय*
*खुशाल पिता ‘काळें’ दूद ?*

असल्या कितल्याश्याच प्रस्नांनी ही कविता घुस्पल्या. पोब्राले कवितेंत ‘गोंय’ ह्या विशयाक विशेश सुवात आसा म्हणपाचें ‘मुडयेपोंदा’ वाचतना जाणवता. आयचे चडशे कवी अशे तरेची कविता बरयनात. १९६०-७० ह्या दसकांत अशे तरेच्या कवितांक भार आयिल्लो. पूण मुखावेल्या दसकांनी हो भार उलगून गेल्लो दिसता. आतां परत एक फावट ह्या विशयाक पोब्राल्या कवितांनी नवी आंकरी कोंबरीं आयिल्ली दिसता.

ताकाच लागून ह्या संग्रहांतल्यो चडावत कविता विशयांक धरून कवीन रचल्यात म्हणपाचें जाणवता. तातूंत निखळ असो जिणेचो अणभव व्यक्त जायना. अशें आसलें तरी ‘दुख्खाचें रडें’ हे कवितेंत तो अणभव दिसता.

*माथ्याक तुज्या माळ्ळो तुवें*
*धवो फुल्ल मोगरे कळो*
*परमळीत वासान तुवें*
*शिंपडायलो सुखा झेलो*

*त्याच कळ्याक सुटला सूर*
*गावंक लागता सुखा गीत*
*फुटला ताका तरणो आंकूर*
*धड न्हय गो तुजी रीत*

*गीत ताचें सोपचें आसा*
*मदींच तुंजो बोवाळ कित्याक*
*सुखा दीस येवचे आसात*
*दुखचे पयलीं रडें आसा.*

पूण पोब्रालें कवितेचो खरो स्थायीभाव म्हळ्यार सैम. सैमाचे सुंदरतायेंत कवी खऱ्या अर्थान रमता आनी ताचे वेगवेगळे भाव तो चितांरता. ‘श्रावण’ आनी ‘कांय कविता श्रांवणाच्यो’ ह्यो तागेल्यो कविता खूप प्रभावी थारल्यात. कविचो विशेश कल दिसता तो सैमाच्या वर्णनाकडेन. आनी हें वर्णन निखटें photographic न्हय तर impressionistic शैलेंत केल्लें.

*पलतडच्या दोंगरावयल्यान*
*कोण गो बाये धांवता पळय*
*झाडां पेडां हालून-धोलून*
*वाऱ्या वांगडा काडटा कलय.*

ह्या कडव्यांतली निमाणी वळ ह्या संग्रहांतली सगळ्यांत प्रभावी वळ अशें म्हाका दिसता. ‘कलय’ काडपाचे कल्पनेंत तिचें वेगळेपण आस्पावलां. तातूंत कवीची अणभवाकडेन पळोवचेली आपली अशी वेगळी नदर दिसता. तशेंच पोब्राभितर प्रतिभेची कीट आसा म्हणपाचें ही वळ दाखोवन दिता.

पोब्राले कवितेच्यो सगळ्यो शिमोमेरो लक्षांत घेवनूय हे कवितेक आपलें अशें खाशेलें व्यक्तिमत्व आसा हें मान्य करूंक जाय. भाशेचो वापर तशेंच मांड्या सारकिल्या पारंपारीक लोककाव्याच्या घाटाचो योग्य उपेग हातूंत हे कवितेचें खाशेलेंपण आस्पावलां म्हणपाचें ही कविता बारकायेन वाचतकच लक्षांत येता. ‘गुळे आंब्यापोंदा मांडा गुरोव घोरेला / गांवधोंड्याचेर मोद्यारातीं काळोख जिरोला (पा. ६३) वा अशी तुजी प्रीत मोगा / काळजाची भरती कशी / तीनय त्रिकाळ रावचें तुवें / ल्हारां गोपां सुकुर्णी पिर्शी (पा. २६) ह्यो वळी पोब्राले कवितेच्या पर्जळीत फुडाराची दिका दाखयतात.

आमगेल्या नव्या कवींमदीं सातत्याचो उणाव दिसता. पयलो कवितासंग्रह उजवाडा आयले उपरांत कांय नवे कवी कविता बरोवपाचे थांबिल्ले दिसतात. ‘मुडयेपोंदा’ हो संग्रह १९९३ वर्सा उजवाडा आयलो. ते उपरांत पोब्रान बरयल्ल्यो जायत्यो कविता नेमाळ्यांनी प्रसिद्ध जाल्ल्यो दिसतात ही एक खोशयेची गजाल. पोब्राचे कवितेंत अणभवाची खर सोदपाची तांक दुबावाविरयत आसा. तशेंच, कवितेच्या घाटाची जाण तिचेठांय आसा. हाकाच लागून पोब्राल्या हातांतल्यान उंचेल्या पांवड्याचे कवितेची निर्मणी जातली अशी आंस्त बाळगूं येता.

[ कोंकणी भाशा मंडळाचे म्हयनाळे ‘साहित्य उपासना’ हे कार्यावळींत केल्ल्या उलोवपाचो एक वांटो. ]



## पोंच :

**सोरपाची करामत (बालसाहित्य)**
रस्कीन बाँड
अणकार : जयंती नायक
नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया, १९९८
पानां ३२, मोल : रु. ८/-

**पश्चिमी समिक्षेकडेन इश्टागत (समिक्षा साहित्य)**
डॉ. किरण बुडकुले
राजहंस वितरण, १९९८
पानां : १८८, मोल : रु. ३७/-

**कारबारी कोंकणी**
भूषण भावे, प्रकाश वजरीकार, प्रकाश पर्येकार
राजहंस वितरण, १९९८
पानां : ३०८, मोल : रु. १००/-

**गाणां (गितां झेलो)**
नजरेत नेरी, ताकोडे
दिवो प्रकाशन, मुंबय १९९७
पानां : १००, मोल रु. २०

